**KARNAPARVA**
(Play on Mahabharata)

by
Adv. Uday Bhembre

**कर्णपर्व** 2013



" लक्ष्मीप्रभा" घोगळ

मडगांव गोंय ४०३६०१

फोनः ०८३२२७३१६६१

प्रकाशकः

संजना पब्लिकेशन्स

३९, दत्तवाडी सांगे - गोंय ४०३ ७०४

sanjanapublications@yahco.in
प्रकाशन क्रमांक २५

पयली उजवाडावणीः सप्टेंबर २०१३

टायप सेंटींग, छापणावळः

बांदेकार ऑफसेट

कुडचडें-गोंय

bandekaroffset@gmail.com

मुखचित्रः गौरिश वेर्णेकार

मोल रू. ९५/-

म्हजी आजी
स. पद्मावती व्यंकटेश प्रभू भेंब्रे
हिणें सांगिल्ल्या काणयांक लागून
रामायण आनी महाभारत हांचे विशीं
उत्सुकताय उप्रासली
ते उत्सुकतायेंतल्यान वाचन जालें
अभ्यास जालो आनी कांय विचार
मांडचेशे दिसले
तांतुतल्या एका विचाराचेर आदारिल्लें
हें नाटक
तिजेच यादीक ओंपतां

उदय

# गरजेचीं उतरां

रामायण आनी महाभारत हीं फक्त कल्पनेन रचिल्लीं महाकाव्यां काय तांकां इतिहासीक घडणुकांचो आदार आसा हे विशीं जाणकारां मदीं दोन मतां आसात. रामायणाच्या कथानकाच्या काळांतली गवाय मेळूंक ना, पूण महाभारताच्या कथानका काळांतली इतिहासीक गवाय मेळ्ळ्या. बुडिल्ले द्वारकेचोय सोद लागला. हालींसरा त्या दोनूय महाकाव्यांतल्यो मुखेल घडणुको आनी मुखेल पात्रां हीं इतिहासीक आसुंये हो विचार मूळ धरूंक लागला आनी ते नदरेंतल्यान खूबशें साहित्य उजवाडा येवंक लागलां.

ह्या दोनूय महाकाव्यांच्या मुखेल घडणुकांक इतिहासाचो आदार आसा हो विचार म्हाका पट्टा. वाल्मिकीन रामायण रचलें तेन्ना ताचे नदरेन राम हो राजकुंवर आसलो. उप्रांत अध्यात्म रामायण आयलें तातूंत रामायणाक अध्यात्मीक रूप दिवपाचो यत्न जालो. आनी मागीर संत तुलसीदासान रामचरित्रमानस रचलें तेन्ना देवाचो अवतार वा देव - सो जालो. हो बदल न्हयकारूंक जावचो ना. महाभारता संबंदानूय वाड आनी विकृती हीं दोनूय जालीं. मुळांत व्यासान रचलें त्या काव्याचें नांव आसलें'जय नांवाचो इतिहास'. तें आसलें 8800 श्लोकांचें. तातूंत भर पडत वचून तें जालें 'भारत' आनी मागीर आनिकूय भर पडत वचून तें जालें 'महाभारत' १ लाख श्लोकांचें. बारा पटींनी वाड ! कितली भरस आनी कितली विकृती !!

रामायणाचें बालकांड आनी उत्तरकांड हीं मागीर जोडिल्लीं कांडां अशें कांय जाणकारांचें मत, तर महाभारतांत जाल्ली वाड

सगळ्यांकूच मान्य करची पडटा. भरस मूळ कथानकाक बादा हाडटाच, पूण विकृती मोटें लुकसाण करता. रामायणांत वानर जमातीचो संस्कृत भास उलोवपी हनुमान हो शेंपडी आशिल्लो माकड जाला, तर महाभारतांत नागा जमातीचे मनीस सोरोप जावन पडल्यात !

आमीच आमचें आकांताचें लुकसाण केलां. राम आनी कृष्ण हे गुण - दोश आशिल्ले हाडा- मासाचे मनीस. तांकां देव वा देवाचे अवतार करून उडोवन आमी भारतीय संस्कृतीचेंय लुकसाण केलां. तांका मनिसूच मानिल्ले जाल्यार तांचे गुणदोश न्हय - आदर्श म्हूण आयच्या पिळग्यां मुखार उरतले आसले. पूण तांकां देव वा देवाचे अवतार केले, तांच्या दोशांचें आनी चुकांचेंय समर्थन करपाचो यत्न जालो आनी तसल्या यत्नांक लागून दोनूय महाकाव्यां अदीक विकृत जावन पडलीं, दैवी चमत्कार भितर सरले आनी तांतूंत वर्णिल्ली जीण मनीस जिणे पसून पैस गेली. राम, कृष्ण, हनुमान हे सगळे आमकां पैसावले. कांय साहित्यकार, कांय नाटककार, कांय फिल्म- निर्माते हांणी अंतर अदीक वाडयलें, अज्ञानाक सारें - -उदक घालें, गैरसमजणेक आळें काडून सावळ घाली.

हें विकृतीचें चक्र आतां उरफाटें घुंवडावपाची गरज आसा. भरस आनी विकृती कडेक काडून मुखेल कथानकांचो आनी मुखेल पात्रांचो इतिहासीक अर्थ लावपाची गरज आसा. तसो एक यत्न ह्या नाटकांत केला. कर्णाच्या जल्माचें एक कुवाडें आसा ते विशीं परंपरेन एक काणी चलत आयल्या. पूण मंत्रान भुरगें जल्माक येता वा सूर्यापसून खंयचेय बायलेगेर भुरगें जाता हें आयच्या विज्ञानयुगांत बुद्दीक पटपासारकें ना. म्हणटकूच कितेंय वेगळें

घडलां आसूंक जाय. तें वेगळें कितें हे विशींय तरेकतरांच्यो कल्पना आसुंयेतात. हांवें मांडल्या ती म्हाका सुचिल्ली कल्पना. ते कल्पनेक आदार मेळपासारको मुद्दो म्हाका खंयच्याच ग्रंथांत मेळूंक ना. देखून ती फक्त कल्पनाच.

ह्या नाटकाचे पांच अध्याय आसात. चार अध्यायांनी आनी पांचव्या अध्यायाच्या आरंभाक जें घडटा तें महाभारतांत सांगलां तशेंच वेगळें सांगलां तें पांचव्या अध्यायाचे अखेरेक.

कोण जाणा ! असल्यो वेगवेगळ्यो कल्पना फुडें येत रावल्यो जाल्यार घडये केन्नाय तरी इतिहासीक सत्य आमच्या हाताक लागत, दोनूय महाकाव्यांची खरी वळख आमकां घडूंक पावत आनी तातुंतल्या पात्रांचे चलणुकेंतल्यान, तांच्या गुण - दोशांतल्यान आनी तांच्या बऱ्या वायट कर्तुबांतल्यान आमकां देख मेळत!

मडगांव, गोंय उदय भेंब्रे

१० सप्टेंबर २०१३

## पयलो अध्याय

(महाराज धृतराष्ट्राचो दरबार. धृतराष्ट्र बसला. भीष्म, द्रोण उबे आसात. आपले भितर उलयतात. दसऱ्या कोनशाक दुःशासन, शकुनी आनी कांय कौरव आसात. तेय एकमेकांकडेन उलयतात. पयस शंख, नगारे वाजिल्ल्याचो आवाज येता.)
सुत्रधारः

कोण देव आनी कोण दैत्य गा

मनिसच गा सगले

गुणदोशांचे रथी महारथी

रक्तरंगीं रंगले

सुवार्थ जाता मुकूट जांचो

दुस्वासाचीं अस्त्रां

नातें विरता, मानय सरता

रगत पियेती शस्त्रां

जिवितच तांचें कुरूक्षेत्र गा

अंत नासचें युद्धपर्व

चमत्कारी न्हय संघर्षाचें

भिरांकूळ मर्णवर्प

हें कर्णपर्व ! ... हें कर्णपर्व ! ...

धृतराष्ट्र : आयलो ना? अजून पावलो ना?

भीष्म : महाराज, लार्गी पावत आयला. हो आवाज आयकूंक येता तो तोच.

धृतराष्ट्र : इतलो वेळ कित्याक लागलो?

द्रोण :कृष्णा बरोबर व्हड लवाजमो आसा महाराज. कितलेशेच रथ, हती, घोडे आसात. सात्यकी, कृतवर्मा बी यादव-वीर आनी सैन्यय आसा.

धृतराष्ट्र : सैन्य? हांगा?

भीष्म : सैन्य राजवाड्या भायर रावतलें महाराज. कृष्ण तो। फाटलें- फुडलें येवजून पावल घालता.

धृतराष्ट्र : तेंय खरें. पूण ओगीच कळाव जाता सो दिसता ...

द्रोण : वाटेर लोकांनी गर्दी केल्या. ताका लागून रथ सवकासायेन येतात. राजमार्गार आरास केल्या. घरांच्यो माळयो आनी आगाश्यो लोकांनी भरल्यात. लोक कृष्णाचो भौमान करतात.

(शंख, नगारे लार्गी आयकूंक येतात. भीष्म मुखेल दरवट्या कडेन वचून पळयता आनी रोखडोच येवन धृतराष्ट्राक सांगता)

भीष्म : महाराज, आयले ते. हांगा लार्गी पावले.

धृतराष्ट्र : विदुर आयलो?

भीष्म : तो कृष्णा बरोबर रथांत आसा.

धृतराष्ट्र : आनी दुर्योधन, कर्ण खंय आसात?

भीष्म : तेय रथा बराबर आसात.

धृतराष्ट्र : ह्या म्हापुरसाक पळोवपार्चे भाग्य म्हाका ना. पुण तार्चे पांय ह्या हस्तिनापुराक लागले. कुरु-कुळाची ही पुण्याय! कृष्णाच्या ह्या यत्नांक फळ आयल्यार पुरो.

द्रोण : (मुखेल दारा कडल्यान बेगिबेगीन धृतराष्ट्रा म्हऱ्यांत येत) आयले. महाराज, सगले आयले.

(दारा कडेन शंख वाजता. शेनाय चालू आसा. दुर्योधन आनी कर्ण भितर सरून दाराच्या दोनूय कुशींक रावतात आनी वाट करून दितात. कृष्ण, विदुर सात्यकी, कृतवर्मा भितर सरतात - धृतराष्ट्र आनी बशिल्ले आसात ते सगले उठून उबे रावतात)

कृष्ण : (धृतराष्ट्रा म्हऱ्यांत वचून) वंदन करतां महाराज.

धृतराष्ट्र : कल्याण जावं, कल्याण जावं.

(विदुर धृतराष्ट्राक बयसता. कृष्ण भीष्म, द्रोण हांचे म्हऱ्यांत वचून 'नमस्कार आचार्य' म्हणून वंदन करता. मागीर

कौरवां म्हऱ्यांत वचून खबर घेता)

धृतराष्ट्र : बस. कृष्णा, बस.

(कृष्ण मदल्या आसनाचेर बसता. हेर सगले बसतात )

कृष्ण : भरतश्रेष्ठा, कौरव-पांडवांचें बरेपण जावचें, दोनूय वटेच्या विरांचे प्राण वाटावचे आनी सगल्या संवसाराचो संहार करपी हें युध्द टाळचें, इतलेंच मागणें तुजे कडेन मागूंक हांव आयलां. हाचे परस वेगळें तुज्या बऱ्याचें आनीक हांव किर्तें सांगतलों! तूं सगलें जाणा. तुवें संवसार अणभवला; भोगला. तूं जाण्टो - अणभवान व्हड. हांवें तुका सांगचें अशें कांयच ना.

धृतराष्ट्र : ना कृष्णा, तूं सांगूंक आयला, सांगून उडय. तुजीं उतरां आयकूंक बरें दिसता. सांग तूं; मेकळेपणान सांग.

कृष्ण : महाराज धृतराष्ट्रा, तुमचें कुरू-कूळ म्हळ्यार आज सगल्या राजकुलां मदीं अग्रगण्य! विद्या, बरी चाल-चलणूक, सद्‌गूण हांणी भरिल्लें आनी लोकिकाक पाविल्लें तुमचें कुरु-कूळ. कुरु-वंशांत सत्य, क्षमा, सरळपण, परदुख्खाचो कळवळो, दुसऱ्याच्या बऱ्याक धांवत वचपाचो उमाळो ह्या गुणांचो केदो लोकीक! असल्या ह्या तेजवंत दायज आशिल्ल्या कुळाच्या नांव-लोकिकाक सोबनाशिल्ली करणी तुज्या हातान घडूंक फावना-

धृतराष्ट्र : म्हज्या हातान? पूण हांव-

कृष्ण : तुजेर हांव जापसालदारकी घालतां तार्चे कारण तूं आज कुरु-कुळाचो ज्येष्ठ राजपुरुष. कोणूय उक्तेपणीं वा चोरयां किर्तेंय वायट करता जाल्यार ताका आडावपाची जापसालदारकी तुजेर आसा. कोणूय सुवार्थान आनी आशाधोशीपणान घरच्यांचोय संहार करुक फुडें सरता जाल्यार ताका आळाबंदा हाडपाचें कर्तव्य तुजें.

धृतराष्ट्र : ज्येष्ठ खरों, पूण हांव हे पिरायेर, हे अवस्थेंत... कृष्णा, म्हजें दुबळेपण म्हज्याच तोंडान तुका सांगूंक जाय?

कृष्ण : महाराज, तूं कुरुश्रेष्ठ! तूं भरतश्रेष्ठ! कोण दुबळो म्हणत तुका? तुवें तुजें बळ उपकारायल्यार पुरो, हो दुस्वासाचो उजो पालवतलो. तो पालवलो नाजाल्यार मात फकत कुरु-कुळाचोच न्हय, सगल्या संवसाराचो गोबोर जातलो. महाराज, आयक, हाचेर वितंडवाद करपाची गरजच ना. तूं आनी हांव दोगूय एक जाले - एका हावेसान वावुरले जाल्यार हें जाता. ही गजाल आमच्या हातांत आसा. हीं युध्दाचीं कुपां खिणा भितर ना करपाचें बळ आमच्या एकवटांत आनी एकचारांत आसा. तूं तुज्या पुतांक आळाबंदा हाड, हांव पांडवांक थातारतां. सोंपलें. पालवलो उजो...

धृतराष्ट्र : पूण पांडवांचें मत कशें आसा? युधिष्ठिर कितें म्हणटा?

कृष्ण : कुरुश्रेष्ठ, तांणी तुका आनी सगल्या वडिलांक नमस्कार सांगल्यात. तांकांय हेंच जाय. युध्द, संहार, दुख्ख तांकांय नाका. युध्द टाळून समेट करप हातूंत तुजें हीत आसा. पांडवांचें हीत आसा, अख्ख्या कुरु-कुळाचें हीत आसा. आनी तुमचें बरें जावप हातूंत म्हजेंय हीत आसा. महाराज, पांडवां कडेन इश्टागत केल्यार तांचें बळ तुका मेळटा आनी पांडव तुजे फाटल्यान आसतना तुजे वाटेक वचपाचें धाडस खंयच्याच राजाक जावपाचें ना. भीष्म, द्रोण, कृष्ण, कर्ण, अश्वत्थामा, जयद्रथ, युयुत्सु अशे एका परस एक वीर, रथी आनी महारथी तुजे फाटल्यान उबे रावले जाल्यार खंयचोच दुस्मान तकली वयर काडूंक पावचो ना. तुका दुस्मानच उरचो ना. मागीर राजन्, सगल्या संवसाराचो चक्रवर्ती जावन तूं राज्य भोग; तुका कितेंच

उर्णे आसचें ना.

धृतराष्ट्र : कृष्णा, तूं सांगता तें सगलें म्हाका कळटा. तें खरें हेंय समजता. तूं उलयला तें सगलें न्यायाक आनी धर्माक धरून आसा. त्याच मार्गान वचचें अशें म्हाकाय दिसता, पूण...

कृष्ण : पूण किर्ते? राजन्, तुका आडखळ कसली?

धृतराष्ट्र : कृष्णा, पुता, तूं सगलें जाणा. दुर्योधनान आडायलां तें मातूय बरें दिसना. पूण हांव... हांव आज म्हजो धनी उरूंक ना. सगल्या वाटांनी हांव परसुवादीन जालां. सांगूंक जाय आशिल्लें तें हांवें सांगलेंच. गांधारी, विदुर, भीष्म हींय सांगून सांगून खर्शेलीं. कांय उपेग जालो ना. तांच्या एका उतराचोय परिणाम जालो ना. कृष्णा-

कृष्ण : राजन्...

धृतराष्ट्र : तूं म्हजेर एक उपकार कर.

कृष्ण : उपकार!...राजन्...?

धृतराष्ट्र : हय. तूं सगल्यांचें बरें जावचें म्हणून वावुरता. फुडार बरो जावचो म्हणून तूं कळवळटा. तूंच दुर्योधनाक समजावन ताका उजू वाट दाखय. हांव संकश्टांत पडलां. असल्या वेळार तूंच इश्ट जावन म्हाका पाव. आयल्यार तुज्याच उतराक गूण येत...

दुर्योधन : (तापून) म्हाका कोणेंच कांयच सांगपाची बरज ना. म्हाका उपदेशाची गरज ना. हांवें कोणाचें कांयच वायट करूंक ना.

कृष्ण : दुर्योधना, शांत जा. तुकाय म्हणून हांव नवें आनी वेगळें किर्ते सांगतलों? कुरुकुलांत जल्माक आयिल्लो तूं वीर, त्या म्हान भरताचे पुरुषार्थी कुळयेचो तूं तेजवंत दिवो. तूं गुणांनी संपन्न, विद्यावंत. तुका समजिकाय आसा.

देखूनच तुज्या बऱ्याचो मार्ग सांगतां. युध्दाचो हट सोड. हें फकत युध्द जावचें ना, भारतवर्षांतलो हो आकांताचो अनर्थ जातलो. पांडवां कडेन इश्टागत करपाचो मार्ग महाराज धृतराष्ट्राक मान्य आसा. ताच्या मात्यांकूय तो मानवला. आतां तुवेंच तो मानून घेवन कुरुकुलाचें कल्याण करपाचें श्रय घेवंक जाय.

दुर्योधन: पूण युध्द हांवे जाय म्हळां? युध्दाची खुरखुरी आसा ती पांडवांकूच. शांतताय जाय मूं? आज आसात तशे रावुंया शांत. नाशिल्लो हक्क सांगून युध्द आनी संहार कित्याक?

कृष्ण : नाशिल्लो हक्क म्हणटा तेन्नाच तूं युध्दाक आमंत्रण दिता. दुर्योधना, पांडव सदांच धर्मान चलल्यात, जाणट्यांची आज्ञा मानून चलल्यात. तूं मात भुरगेपणा पसून तांचे कडेन दुश्टपणान चलला. कितें करपाचें दवरलां तुवें? पयलीं भीमसेनाक बुडोवन मारपाचो यत्न केलो. मागीर वारणावताक लाखेच्या घरांत पांडवांक आवय सयत लासून उडोवपाचो यत्न केलो. इंद्रप्रस्थाक तांचें वैभव पळोवं नज जालें तेन्ना तुवें युधिष्ठिराक द्युताचें आमंत्रण दिलें. थंय शकुनीच्या कपटान तुवें पांडवांचें राज्य संपादून तांकां वनवासांत आनी अज्ञातवासांत धाडले. आनी इतलेंय करुन तुजो जीव संतुश्ट जालो ना म्हणून तुवें भर सभेंत द्रौपदीक हाडून तिची विटंबना केली. सोबलें हें कुरु-कुळांतल्या विराक? पांडवां विशींची तुजी ही चलणूक न्यायाची जाली? धर्माची जाली?

दुर्योधन: हांव अर्धमान चलुंना. द्युताचें आमंत्रण दितना हांव क्षत्रियांचे परंपरेक धरुनच वागलां. युधिष्ठिर हारलो, राज्य व्हगडावलो हो म्हजो गुन्यांव? द्रौपदीक पणाक लावपाची

बुद्द ताका जाली जाल्यार हांव किर्ते करूं! द्रौपदीक सभेंत हाडली तेन्ना ती  पांडवांची राणी नाशिल्ली; तीं आमची दासी जाल्ली.

कृष्ण : आसूं त्यो यादी! अभिमानान सांगपा सारको पुरुषार्थ न्हय तो. मनाक त्रास जावपाचे आनी लजेन मान सकयल घालपाची.

दुर्योधन: तुवेंच काडल्यो त्यो फाटल्यो यादी. हांव म्हणटां, सगळें विसरुंया. पूण पांडवांनीय वियरूंक जाय. ह्या राज्यांत तांकां वांटो आसा, हक्क आसा हीं सपनां तांणी विसरुंक जाय.

कृष्ण : हस्तिनापुरांतलें शिंवासन तांणी मागूंक ना. दुर्योधना, पांडवांक  तुजो दुस्वास ना. तूं तुजें राज्य उपाट भोग. पूण तांचें कपटान घेतलां तें तांचे सुवादीन कर. तांचें बरेंपण घे. ते भाव तुजे; दुस्मान न्हय.

दुर्योधन: तांच्या बरेपणाची म्हाका गरज ना. तें तुकाच मेळूं. तुजे भक्त न्हय ते! देखून तुका दिसता ते सद्‌गुणांचे पुतळे! तूं तांचो पाखो घेतलोच. पक्षपात आसा थंय समेट कसो जातलो? तुज्या मनांत हांव अधर्मी, सगले कौरव दुश्ट. म्हण्टकच ह्या अधर्मी कौरवांची  आनी  धर्मान  चलपी तुज्या पांडवांची इश्टागत कशी  जातली?

कृष्ण : तूं समजिकायेन वागशी जाल्यार जांवं येता. तेच खातीर म्हजो हो प्रयत्न. तूं कोणाच्या नाड्यार उडटा तेंय हांव जाणां. पूण मतींत धर, तूं जें मेळोवंक सोदता तें युध्दांतल्यान मेळूंक पावचें ना. दुर्योधना, येवजून पळय, ह्या युध्दातल्या जैताक अर्थ ना. जैत तुजें आसूं वा पांडवांचें, तें रगताचे न्हंयेंतल्यान मरणाचे फाटीर  उफेत येतलें. तुजे भाव, तुजे इश्ट, तुजे आचार्य हांचो संहार

जावन मेळिल्लें जैत तूं सुखान भोगूंक पावतलो? उरतली तुका तें सूख भोगपाची इत्सा?

दुर्योधन: ताका उपाय ना. युध्दाच्या परिणामांक भियेवन फाटीं सरप ही क्षत्रियांची परंपरा न्हय.

कृष्ण : राज्याच्या इल्ल्याशा कुडक्या खातीर भावांच्यो तकल्यो मारप ही क्षत्रियांची परंपरा न्हय. युध्द करचें आसता तें अन्यायाचेर जैत मेळोवपाक. दुश्टांक ना करून सवस्तकाय नंदोवपाक. आनी युध्द करप हो जसो क्षत्रियांचो धर्म, तसोच गरज ना थंय युध्द आनी संहार टाळप होय क्षत्रियांचो धर्म. दुर्योधना, आयक. युध्द जातलेंच जाल्यार पांडव ताका तयार आसात. ते भियेतात म्हणून समेटाची भास करतात अशें समजुं नाका. पूण रगतान माखिल्ल्या जैताची तांकां आस ना. फाल्यांच्या संहाराचें भयांकृत चित्र आजूच पळोवपाची नदर तांकां आसा. तुवेंय ते नदरेन पळयल्लें जाल्यार म्हजो वावर सोपो जातलो आशिल्लो. पळय, पांडवांक अर्दें राज्य नाका. पांचूच गांव मेळ्ळ्यार तांकां समाधान आसा.

दुर्योधन: पूण म्हाका तांतूंत समाधान ना.

कृष्ण : पांच गांव तुका चड दिसतात जाल्यार एका गांवान पसून ते समाधान मानतीत. धृतराष्ट्र महाराजाचे सांवळेंत ते कशेंय रावतीत.

दुर्योधन: हांवें आदीं सांगलां, आनी तेंच परतें सांगतां. सुयेच्या अग्राचेर उरत इतलीय भूंय पांडवांक मेळची ना, केन्नाच मेळची ना.

भीष्म : दुर्योधना, अशें तोडून उडोवं नाका. कृष्णाचे सांगणेचो अर्थ समजून घे. पांडवांची केदी शी मागणी! कुरूच्या राज्या मुखार ही मागणी तुजे ल्हंवेकूय बादिकार जावची ना.

द्रोण : हांव तेंच म्हणटां, कृष्णान समजिकायेन सगळें मांडलां. येद्याशा प्रस्ना खातीर युध्द मांडप आनी संहाराक आंमत्रण दिवप कोणाच्याच बऱ्याचें जावचें ना. कृष्णाचें म्हणणें मानून घेवपांतूच कुरुंचें कल्याण आसा. दुर्योधना, अजुनूय विचार करूंन पळय.

दु:शासन: हांवें सांगिल्लेंच तुका. ही शिश्टाय न्हय. हें कपट. हांगा सगल्यांनी मेळून कट रचला, तुकाय धरुन बंदखणींत उडोवपाचो. उपदेश आयकलो, बरो आसा; ना जाल्यार तुका बंदखणींत घालून हें राज्य पांडवांचे सुवादीन करपाची तजवीज केल्या हांणी. तुका खरें दिसनाशिल्लें. पूण कृष्णाची भास आयकून आनी फाटोफाट भीष्माचार्य आनी द्रोणाचार्य हांणी री ओडिल्ली आयकून खात्री जाली ना तुजी?

विदुर : दुर्योधन, हें खरें न्हय. आयक-

दुर्योधन: कांयच अयकुपाचें ना म्हाका. दु:शासनान सांगलां ते विशीं पुराय खात्री जाल्या म्हजी. ती पयलीच जाल्ली जाल्यार हांगा येवन वेळ वगडावचो पडचो नाशिल्लो. पूण ह्या मुखार एकूय खीण हे सभेंत रावपाची इत्सा ना म्हाका. (दुर्योधन रागान भायर सरून वता. फाटल्यान दु:शासन, कर्ण, शकुनी हेय वतात.)

धृतराष्ट्र: किर्तें जालें?... दुर्योधन खंय गेलो?

कृष्ण : रागान सभेंतल्यान उठून गेलो. ताका समेट नाका... युध्द जाय... युध्द!

धृतराष्ट्र: असोच उग्र रावता. कृष्णा, ताका क्षमा कर.

कृष्ण : क्षमा करपी हांव कोण राजन्! आमच्या सगल्यांच्या अपराधां खातीर क्षमा देवानच करपाची.वायट इतलेंच

दिसता, दुर्योधनाची नदर युध्दाचे पलतडी पावना... म्हज्यानूय ती पावोवंक जाली ना...

धृतराष्ट्र : तूं खंती जावं नाका. राव, ताचेकडेन कोणाचेंच उतर धरना थंय आवयचें धरता. विदुरा, गांधारीक आपोवन हाड. बेगीन वच.

कृष्ण : महाराणीक हांगा? तिका ओगीच त्रास-

धृतराष्ट्र : कृष्णा, तुवें म्हाका उजवाड दाखयला. दोळे नासुनूय हांवें तो पळयला. युध्द टाळपा खातीर कितेंच करपाचें दवरूंक फावना. हो निमाणो यत्न. फुडें भरिभार देवाचेर.

भीष्म : भुरगेपणां... सामकीं भुरगेपणां! कसल्या युध्दाक फुरफुरप? कसलो पुरुषार्थ आनी कोणाक दाखोवपाक?

कृष्ण : हे पिरायेचेर रगत सळसळटा आचार्य!

द्रोण : ताकाय शीम घालूं येता. पूण संगत बरी ना. बऱ्या संस्कारांनी वयर काडिल्ले राजकुंवर हे! पूण वायट संगतीन हे संस्कार चिड्डून उडयल्यात.

(विदुर गांधारीक घेवन येता)

गांधारी : कितें जालां? म्हाका अशी ताकतिकेन कित्याक आपयली?

कृष्ण : महाराणी गांधारी, वंदन करतां.

गांधारी : कृष्णा, आयुश्यमान जा.

धृतराष्ट्र : गांधारी, सगलें राज्य आपर्णेच भोगचें ह्या हावेसान दुर्योधन कुड्डो जाला. ताका बरें कितें, वायट कितें वळखूंक येना. ह्या सगल्या बरें मागतल्यांचें सांगणें कानामनार घेनासतना तो उर्मटपणान उठून गेला... सगल्यांचो अपमान करून. मुळांत अबुद्दी, तातूंत संगत मेळळया ती उज्यांत तेल घालपाची. तो युध्दाक पेटला... परिणाम

समजून घेवपाची अक्कल ताका उरुंक ना. गांधारी, ताका समजाय... कशेय भाशेन समजाय... नाजाल्यार अनर्थ... सगलो अनर्थ... कांयच उरपाचें ना... कोण उरपाचो ना...

गांधारी : इतल्यार पडलें? आपोवंक धाडात ताका... (विदुर वता) राज्य करतले खंय! असल्या अबुद्दीपणान राज्य करतलें? हांकां राज्य फावना. पूण... हें राज्य तांच्याच हातांत पडलां. हांव उलयतां म्हणटले तुमी. पूण महाराज, तुमचेंच चुकलां. तुमी ताचे फाजील लाड केले. ताचो सबाव वळखूनय ताका मेकळीक दिली. आतां तो माथ्यार बसला.

कृष्ण : म्हाकाय एक अजाप दिसता. महाराज, हे आचार्य, तुमी सगले जाण्टे अधिकार आसून अशे ओगी कशे रावतात? धा जाणांच्या बऱ्या खातीर एकल्याक ख्यास्त करची पडटा तेन्ना कठोर जावंकूच जाय. दुर्योधनाक असो मेकळो सोडूंक फावना. ताका आळाबंदा हाडूंक जाय. हांव जाणां, कठोरपणान करचें पडटा तें. कंसाक ना करुन उग्रसेनाक परत राज्यार बसयतना म्हाका तेंच करचें पडलें. पूण तशें केल्ल्यान लोकांचें कल्याण जालें

गांधारी : भुरगेपणांत ताच्या हातांत सगलो अधिकार दिलो. तो आतां ताचे तकलेक चडला. तेच करणेचीं ही फळां. पांडव हे आमचेच भुरगे, ते परकी न्हय. तांचे कडेन भेदान चलले जाल्यार दुस्मान पसून आमकां हांसतले.

(विदुर दुर्योधनाक घेवन येता. दुर्योधन नाखुशेन येता. तकली सकयल घालून बसता आनी रागान सुस्कारे सोडटा.)

दुर्योधना, बाबा, कितें आडायलां हें तुवें? महाराजांनी

आनी ह्या आचार्यांनी सांगिल्लें आयक आनी पांडवां कडेन समेट कर. पुता, तशें केल्यार ही ह्या आवय-बापायची आनी आचार्यांची पुजाच केल्ले भाशेन जातली. तुका भरपूर आसा; तेंच सुखान भोग. दुसऱ्याल्याचेर नदर कित्याक? तें हावरेपण बऱ्याक पावयना. पांडवांलें अर्द राज्य तांकां दी. तेरा वर्सां हाल काडले तांणी; आतांय छळ कित्याक? फुडें तरी बरे तरेन रावात. आमचे दीस सोंपत आयले; आतां तुमचेंच कल्याण आमी पळोवपाचें. उलय, दुर्योधना, हांव आवय उलयतां तुजेकडेन...

दुर्योधन: सगलें उलोवन जालां.

गांधारी : उलोवन उजवाड घाला तो कळ्ळा म्हाका. आतां कितेंय बरें घडचें म्हणून प्रयत्न कर. कोणाचेर पातयेवन तूं युध्दाक फुरफुरता? भीष्म, द्रोण, कृप हे आचार्य युध्दांत प्राण दीत. ह्या राज्यांतले ते अमात्य आनी आचार्य म्हणून. ह्या राज्याक तांणी अन्न खालां म्हणून. पूण तुज्या मनांत पांडवांचो दुस्वास आसा तो तांच्या काळजांत ना. तुमी आनी पांडव तांकां सारकेच. तेंच नातें, तोच मोग. पिशेपणां सोड. मोठ्या राज्याचे आशेन कुरुकुलाचो विध्वंस करूं नाका.

दुर्योधन: हेंच सांगूंक आपयल्लो म्हाका? खूब आयकलो असलो उपदेश। कांय अर्थ ना तातूंत. युध्द न्याय दितलें जाल्यार युध्द जातलेंच. कोणूच म्हाका फाटीं ओढूंक पावचो ना. समजलें? (रागान भायर वता. फाटल्यान सात्यकी वता.)

कृष्ण : महाराणी, तूं वायट धरूं नाका. जें आमच्या वांट्याक आयलें, तेंच तुकाय आयकुचें पडलें. आनी हाचे फुडें जें घडपाचें आसा, तेंय आमकां सगल्यांक वांगडाच भोगचें

पडटलें. जें टाळूंक जायना, तें भोगूंक जाय. आमी आमचें कर्तव्य केलें.

(सात्यकी भितर येवन कृष्णाक कुशीन व्हरता आनी ल्हव आवाजांत उलयता.)

विदुर : कृष्णा, किर्ते जालां? सात्याकी चिंतेस्त दिसलो.

कृष्ण : हें: कांय ना. (सात्याकी) कृतवर्माक हांगा दरवट्या कडेन तयार राव म्हणून सांग. आनी सगले रथ तयार दवरात. शिमेर आसात तांकांय खबर दियात.

भीष्म : किर्ते जालां? कृष्णा, कसली तयारी?

कृष्ण : (मेकळेपणान हांसता) कांय ना... (हांसता)

धृतराष्ट्र : कृष्णा, हांसलो कित्याक? किर्ते घडलां?

कृष्ण : महाराज, तुगेल्या पुतांची आनी तांच्या सांगात्यांची बुद्द चळ्ळ्या. युध्दाची खुरखुरी तांकां आसाच. पूण ते आर्दी म्हाकाय बंदखणींत उडोवपाची तजवीज चल्ल्या खंय! (हांसता)

गांधारी : कसलीं पिशेपणां हीं!

कृष्ण : तांकांच तीं सोबपाचीं!

धृतराष्ट्र : शीम जाली ह्या भुरगेपणाची! विदुरा, बाबा, वच आनी दुर्योधनाक घेवन यो. हें पळय, ताच्या बुदवंतांकूय आपोवन हाड.

कृष्ण : महाराज, कित्याक कश्ट घेता हे? भुरग्यांचे मळणेक बीं ना भात! घडये युध्द टाळपाचो यत्न आसुंये तांचो!

धृतराष्ट्र : म्हणजे किर्ते? हो युध्द टाळपाचो मार्ग?

कृष्ण : तांकां दिसता जावंये. कृष्णाच्या नाड्यार पांडव फुरफुरतात. म्हणटकच कृष्णाकूच बंदखणींत घालो जाल्यार पांडव

गर्भगळीत जातले आनी फाटीं सरतले. मागीर युध्द अनी खंयर्चे।

भीष्म : हो अबुद्दीपणाचो कळस जालो. हांव पळोवन येतां.

(दारांतल्यान पळोवन) नाका. तेच आयले सगले. (दुर्योधन, कर्ण, दु:शासन, शकुनी येतात, फाटल्यान विदुर येता.)

दुर्योधन : आयले आमी. आतां उपदेश कोणालो उरला?

धृतराष्ट्र : आरे पिशा, तुका उपदेश म्हळ्यार उमथ्या कळशार उदक, होच अणभव घेतला आमी आज. तुका लज दिसना? आर्यकुलांत जल्म घेवन असल्यो नश्ट्यो करण्यो येवजिता?

दुर्योधन : नश्ट्यो करण्यो? कोणें येवजिल्यात नश्ट्यो करण्यो?

गांधारी : दुर्योधना चड उलोच नाका. कृष्णाक धरुन बंदखणींत घालपाची तुमची येदजण कळ्ळ्या आमकां...

(सगले एकामेकाच्या तोंडाक पळोवन नदरो सकयल करतात)

कृष्ण : तांकां घडये दिसलां, कृष्ण एकलोच आयला. कृष्णा बरोबर सात्यकी, कृतवर्मा, आनी हेर महारथी आसात तांचो तांकां विसर पडला. कृष्णा वांगडा आयल्यात ते रथ, हत्ती, घोडे गरज पडल्यार युध्दाक सज्ज आसात हें तांच्या नदरांनी पारखूंक ना. राजवाड्या भायर यादवांचें केंदें सैन्य उबें आसा तें पळोवंक तांकां फुरसत मेळूं ना. (आवाज चडोवन) कोण फुडें सरता कृष्णाक बंदखणींत घालूंक? जें युध्द टाळूंक आयिल्लों, तें फाल्यां जातलेंच. पूण कृष्णाक बंदखणींत घालूंक पळयतात जाल्यार एक युध्द आज जातलें. हांगा ह्या हस्तिनापुरांत. कृष्णाची तयारी

आसा. कृष्ण सगल्यांक वळखता... बुदवंतांक आनी बुद्द नाशिल्ल्यांकूय. तो सगली तयारी करुनच आयला. कृष्णाचे महारथी चिलखतां घालून तयार आसात. आसात कौरव तयार?... (आवाज आनीक वाडोवन) आसात कौरव तयार? (दुर्योधन, कर्ण, दु:शासन आनी शकुनी पुतळे कशे हालनासतना रावतात. इतल्यांत सात्यकी येवन)

सात्यकी : सगली तयारी जाल्या.

कृष्ण : (धृतराष्ट्रा म्हऱ्यांत वचून) राजन्, येतां-

धृतराष्ट्र : कल्याण जावं.

कृष्ण : (गांधारीक) महाराणी, येतां...

गांधारी : बरें जावं. पुता, तुजें बरें जांव.

कृष्ण : आचार्य, येतां...

(कृष्ण सडसडीत दारांतल्यान भायर वता. विदुर ताचे फाटल्यान भायर वता. भीष्म आनी द्रोण दारा मेरेन वतात आनी भायर पळयत रावतात. शंखांचो आनी फाटोफाट रथांच्या चक्रांचो आवाज)

-----

## दुसरो अध्याय

न्हय तूं शत्रू, परकी न्हय रे तूं
पांडव तूं पयलो
हक्क तुजो तूं भोग राजपद
हट्ट झुजाचो कसलो?

व्हांवन गेलां गंगेंत सत्य तें
खरें-फट कोण जाणा
इश्टागतिचें उतर दिलां तें
मोडूं नजो कृष्णा

कृष्ण : अंगराज, तूं कांय उलयना-

कर्ण : हांव! तुवें यो म्हणिल्ल्यान रथांत तुजे बरोबर आयलां. तूंच कितेंय सांगतलो काय म्हणून वाट पळयतां.

कृष्ण : हांगाच रावया तर. दारुका, रथ थाराय. (रथ थांबता. रथाचो आनी घोड्यांच्या पवलांचो आवाज थांबता)

कृष्ण : आज राजसभेंत जें घडलें, तें कशें दिसलें तुका?

कर्ण : घडलें तें कोणाकूच बरें दिसपाचें न्हय. पूण घडपाचें आसता तें रावना अशेंच म्हणचें पडटा.

कृष्ण : कित्याक? कौरव-पांडवांचो हो प्रस्न बुद्दीन सोडयलो जाल्यार सगल्यांचेंच कल्याण जावंक पावतलें आशिल्लें, अशें दिसना तुका?

कर्ण : कृष्णा, तुका तत्त्वगिन्यान सांगपाचो अधिकार म्हाका ना-

कृष्ण : नाका, तशें म्हणुं नाका. आज इश्ट ह्या नात्यानच तुजें अंतस्कर्ण हांव समजूंक सोदतां. तुका कितें दिसता तें मेकळेपणान सांग.

कर्ण : बुद्दीन प्रस्न सोडोवप हें मनशाच्या शाणेपणाचें लक्षण हें म्हाकाय मान्य आसा. जाल्यारूय बुद्दीन जे प्रस्न सुटनात ते बळानच सोडोवचे पडटात.

कृष्ण : म्हळ्यार, हो प्रस्न सोडोवपाक झुजा बगर दुसरो मार्गच ना अशें दुर्योधना भाशेन तुकाय दिसता?

कर्ण : अशें न्हय. पूण अखेर बळच कसाक लायतले आनी ह्या प्रस्नाचो सोक्षमोक्ष लावन उडयतले, जाल्यार युध्दा बगर दुसरो बरो मार्ग क्षत्रियां मुखार आसूं येता अशें म्हाका दिसना.

कृष्ण : पूण कर्णा, न्यायान चलपाची नदर दवरली जाल्यार बळ कसाक लावपाचो प्रस्नच येना.

कर्ण : आनी न्याय कोणाचे वटेन आसा हें थारावपाक कठीण जाता तेन्ना?

कृष्ण : शाणेपणान प्रस्न सोडोवं येता. इल्लेशे सोशिकसाणेन तंटो मांडणेर घालूं येता. पांडवां खातीर फकत पांच गांवांची मागणी हांवें केल्ली, ती दुर्योधनान मानून घेतिल्ली जाल्यार युध्द टाळुं येतालें. दिसना तुका तशें?

कर्ण : पूण हांगा हक्काचो प्रस्न आसा, तत्त्वाचो प्रस्न आसा-

कृष्ण : तुकाय अशेंच दिसता?

कर्ण : म्हज्या मताक हांगा कितें मोल आसा? राजाक जें दिसता, तेंच म्हत्त्वाचें।

कृष्ण : पूण राजा जालो तरी दुर्योधन तुजो इश्ट. तुका तो मानता. तुजेर खूब सो भार दवरून रावता.

कर्ण : खरें आसत. पूण ते इश्टागतीक शीम आसा. हांव एक सूतपूत; दुर्योधन राजा, राज्याचो फुडार थारावपाचो अधिकार ताचो. सत्ता ताची आसतना म्हजें नातें एका सेवकाचें-

कृष्ण : अशें कित्याक म्हणटा? तूं अंगराज, तूं-

कर्ण : आसन, पूण दर्योधनान माथ्यार मुकूट चडयलो तेन्नाच अंगराज जावंक पावलों. तो राजा म्हणून वावुरतना ताचो हात धरपाचो म्हाका अधिकार ना, तेदें म्हजें बळय ना.

कृष्ण : पूण तुवें समजायल्यार...

कर्ण : तें कशें जातलें? राजाक सेवक समजायतलो?

कृष्ण : कर्णा, युध्द टाळपा खातीर, कुरु-कुळाचो संहार टाळपा खातीर...

कर्ण : जाल्यारुय त्या यत्नांत भिजूडपण दिसूं येता. अखेरेक युध्द

हो क्षत्रियांचो धर्मच न्हय... ?

**कृष्ण** : ना. कर्णा, तशें समजल्ल्यानच आमचीं पावलां ते दिशेन पडूंक लागल्यांत. परचक्र येता तेन्ना युध्दाक उबें रावप हो क्षत्रियाचो धर्म. असत्याच्या आड सत्याचो पाखो घेवपाक झुजप हो क्षत्रियांचो धर्म. अन्यायाचे आड झुजून न्यायाची गुडी ऊंच उबारपा खातीर रणांत वचप हो क्षत्रियांचो धर्म. भावां-भावां मदलीं धोस ना करपाक युध्द करुन आपल्याच कुळाचो संहार करप आनी आपलोच फुडार रगतान माखून घेवप हो क्षत्रियांचो धर्म न्हय.

**कर्ण** : ना म्हणना हांव ; पूण-

**कृष्ण** : कर्णा, ह्या संहारा कडल्यान पावल फाटीं घेवपाचो हो वेळ. युध्दाचें चित्र दोळ्यां मुखार हाड. हें युध्द जालें जाल्यार तें फकत कौरव-पांडवां पुरतें उरचें ना. सगळें भारतवर्ष तातूंत घुस्पतलें. भाव भावाची तकली कापूंक फुडें सरतलो, शिष्य गुरूचे आड शस्त्र धरतलो, आजो नातवाचीं रगतां व्हांवयतलो. कर्णा, सांग, हातूंत तुका क्षत्रियांचो धर्म दिसता? हातूंत तुका पुरुषार्थ दिसता? पुण्य दिसता? कल्याण दिसता?

**कर्ण** : खरें तुजें. जाल्यारुय हें चित्र युधिष्ठिरान आनी दुर्योधनान दोळ्यां मुखार हाडूंक जाय. महाराज धृतराष्ट्रान आनी पितामह भीष्मान हाचेर चिंतूंक जाय.

**कृष्ण** : तांची गजाल विसर. कर्णा, म्हाका तुज्या अंतस्करणांतलो साद जाय. तुका कितें दिसता तें आयकूंक जाय.

**कर्ण** : कृष्णा, हांव कशी दिवं ताची जाप? नात्याच्या तसल्या पासांनी हांव घुस्पल्लों ना. राजा कडलें म्हजें नातें सेवकाचें. त्या नात्यानच म्हजें कर्तव्य म्हाका करचें पडलें.

कृष्ण : तशें न्हय कर्णा, आयक. फाल्यां तुका तुज्या रगताच्या भावाचेर बाण सोडचे पडले, तुज्या भावांच्या कंवळ्या पुतांचें रगत व्हांवोवचें पडलें, तुज्या मामाचे गोमटेर खड्ग हाणचें पडलें जाल्यार तातूंत तूं धर्म मानतलो?

कर्ण : (मात्सो हांशिल्ले भाशेन करुन) पूण जें घडचेंच ना, तें घडटलें अशें धरून विचार करपांत कसलो अर्थ?

कृष्ण : कर्णा, आतां उक्तेंच विचारतां. दुर्योधनाच्या जाग्यार तूं आशिल्लो आनी जमनीच्या इल्ल्याशा कुडक्या खातीर भावां कडेन तुजो तंटो आशिल्लो जाल्यार युध्दाचोच मार्ग पत्करुन तूं भावांचीं रगतां व्हांवयतलो आशिल्लो? युध्द होच तुज्या अंतस्कर्णाचो उमाळो आसतलो आशिल्लो?

कर्ण : हांव किते करतलों आशिल्लों हें सांगून किते उपेग आसा? आज दुर्योधनाच्या जाग्यार दुर्योधनच आसा, हांव ना, हें सत्य. तें विसरुन कशें जायत?

कृष्ण : तशें जाल्यार कर्णा, दुर्योधन उबो आसा त्या जाग्या परस कठीण सुवातेर तूं उबो आसा.

कर्ण : म्हणचे?

कृष्ण : दुर्योधनाक बापोलभावांचे आड युध्द करपाची खुमखुमी आसा; पूण तुका मात खाशेल्या भावांचेर शस्त्र धरचें पडटलें. त्या खाशेल्या भावांचे आनी तांचे संततीचें रगत व्हांवोवचें पडटलें आनी कोण जाणा, तुज्याच हातान तांकां मरण आयिल्लें तुज्याच दोळ्यांनी तुका पळोवचें पडटलें.

कर्ण : हें कुवाडयांचें उलोवप म्हाका समजलें ना. तूं किते सांगूंक सोदता?

कृष्ण : कर्णा, हेंच सांगूंक सोदतां की जे आवयच्या पोटांत तुजो

जल्म जालो, तेच आवयच्या कुसव्यांत जल्माक आयिल्ल्या तुज्या भावांचो दुस्मान म्हणून तुका ह्या युध्दांत उबो रावचो पडटलो.

कर्ण : कृष्णा, तुज्या ह्या उलोवपान म्हज्या मनाचो गोंदळूच वाडत वता. किर्ते सांगपाचें आसा तें सरळ कित्याक सांगिना?

कृष्ण : कशें सांगूं तुका?... कर्णा, दुर्योधनाचो इश्ट ह्या नात्यान तुवें जांकां तुजेय दुस्मान मानल्यात ते पांडव तुजे भाव, खाशेले भाव! जे आवयन युधिष्ठिराक, भीमाक आनी अर्जुनाक जल्म दिला तिजोच तूंय पूत.

कर्ण : म्हणचे...?

कृष्ण : राजमाता कुंतीचो तूं व्हडलो पूत. कर्णा, तूं पयलो पांडव. (कर्ण मोटेमोटयान हांसता) कर्णा, हांसूं नाका. हें सत्य. आज मेरेन धांपून उरिल्लें हें सत्य हांवें तुजे मुखार उक्तें केलां.

कर्ण : हें सत्य? हांव... हांव... ? (हांसत रावता)

कृष्ण : तुका हें सट् करुन पटचें ना हें जाणां हांव.

कर्ण : कशें खरें दिसचें? कृष्णा, कशें पटचें? आज मेरेन संवसार म्हाका हिणासालो. हांव कोण, ह्या प्रस्नाची जाप सोदूंक म्हजें मन तळफेलें आनी अखेर करपलें. आनी आज तूं सांगता...

कृष्ण : हय, आज त्या प्रस्नाची जाप हांव दितां. म्हज्या उतरांचेर जर तुजो विस्वास आसत...

कर्ण : तशें म्हणूं नाका, कृष्णा, तुजेर विस्वास आसा, तुज्या दर एका उतराचेर म्हजो विस्वास आसा. आनी हें तूं सांगता म्हणूनच विस्वास दवरीन हांव; तरी पूण...

कृष्ण : तुज्या मनांत दुबाव येतात. कर्णा, तुजी चूक ना. कांय सत्यांच इतलीं विचित्र आसतात की तीं विचित्र वेळाचेरच उक्तीं जातात. तुज्या जल्माचें सत्य हें तांतलेंच. कुंतीन आंकवारपणांत तुका जल्म दिलो...

कर्ण : कृष्णा-

कृष्ण : आनी भंयान तुका सोडून दिलो.

कर्ण : पयस... कृष्णा, खूब पैस पावलों हांव. विस्वास दवरप कठीण जावचें इतले पयस. संवसारा कडल्यान सूतपूत म्हणून हिणसावन घेवचें इतलो पयस. आवय लागीं आसूनय आपलो पूत म्हणून सांगूंक पावना इतलो पयस...

कृष्ण : कर्णा, हे जिणेंतले विळखे अशेच आसतात. आवय-बापूय आसतना हांवूय तसोच वाडलां. कांय वर्सां 'हांव कोण'? होच प्रस्न विचारीत...

कर्ण : पूण, तुवें भोगलें तें आवय-बापायचे चुकीचें फळ न्हय.

कृष्ण : तशें म्हणुं नाका. तुजें मन हुलपलां. ताचेपरस चड तुजे आवयचें हुलपलां. घुस्मटमारांचें जिणें ती जियेत आयल्या.

कर्ण : जाल्यारूय अपमान मात हांवेंच सोसले. हिणसावन हांवेंच घेतलें-

कृष्ण : कर्णा, तें विसरूंक जाय आतां. क्षत्रिय आसूनय गवळ्याचो पोर म्हणून हांवेंय हिणसावन घेतलां. अपमान म्हज्याय वांट्याक आयल्यात. विसर तें आतां.

कर्ण : विसरूं? कशें? कशें?...

कृष्ण : हीच संद आसा. कर्णा, कुंतीचे कुशींत यो. तिची आवयची कूस धन्य जातली. तिचे घुस्मटमार थांबतले. आवयचे मायेचो शितळ शिंवर ती तुज्या माथ्यार घालतली.

| | | |
|---|---|---|
| **कर्ण** | : | पूण हें कशें जावप आतां? |
| **कृष्ण** | : | कित्याक जावचें ना? कर्णा, कसलोच दुबाव मनांत हाडुं नाका. पांडवां मदलो तूं पयलो जातलो. तूं व्हड भाव हें कळत त्या खिणाक युधिष्ठिर तुज्या पांयार मस्तक दवरून तुका राजा मानतालो. तुजे आज्ञेंत रावतलो; भीम तुजेर छत्र धरतलो; अर्जुन तुजो उजवो हात जातलो. नकुल-सहदेव तुजे सेवेक फाटीं रावचे नात. कर्णा, तुजें हें भाग्य कोणाच्यानच झोमून घेवंक जावचें ना. |
| **कर्ण** | : | ना, ना. हें जावं नज... अशें जावं नज कृष्णा. |
| **कृष्ण** | : | कर्णा, जावं येता, अशेंच जावं येता. त्यो फाटल्यो घडणुको विसर. पांडवांचें नवें जिणें सुरू जावं येता; तें तुज्या हातांत आसा. पांच पांडवां परस स पांडव बळिश्ट जातले. तांच्या जैताक काजळ लावपाचें धाडस कोणाकच जावचें ना. जे द्रौपदीन पांच पांडवांची सेवा करून पतिव्रता म्हणून नामना जोडल्या, ती द्रौपदी तुजे सेवेक नमळायेन उबी आसतली. पांडवां मदलो पयलो म्हणून... महाराज म्हणून... (कर्ण लांब सुस्कारो सोडटा.) असो विचारांत पडुं नाका. कुरु-कुळाच्या भाग्याचो होच वेळ. तो वेळ भांगराचो कर. म्हजेर विस्वास दवर. |
| **कर्ण** | : | कृष्णा, तुज्या अंतस्कर्णांतलो उमाळो म्हाका समजता. तूं सांगतां तें फट जावचें ना होय विस्वास आसा. पूण- |
| **कृष्ण** | : | पूण कितें? सांग, कर्णा... |
| **कर्ण** | : | दुर्योधनाक हांवें उतर दिलां. त्या उतरा पसून फाटीं सरपाक आतां जावचें ना. |
| **कृष्ण** | : | कर्णा, आयक. तुवें उतर दिल्लें तें दुर्योधनाच्या कल्याणा खातीर. हांव तुका सांगतां तेंय दुर्योधनाच्या कल्याणाचेंच. |

हातूंत दुर्योधनाचें वायट ना, विस्वासघात ना. पळय, युध्दांत संहार आसा, दुख्ख आसा, लुकसाण आसा. दुर्योधनाच्या पदरांत तें पडपाचें चुकतलें? जैत कोणाचेंय जावं, पूण गेल्ले प्राण परते मेळचे नात. म्हणूनच सांगतां कर्णा, तूं फकत दुर्योधनाचेंच न्हय, तर अख्ख्या कुरु-कुळाचें कल्याण सादतलो. युध्द टाळपाचें, संहार टाळपाचें आनी कुरुंच्या भाग्याची वाट मेकळी करपाचें स्रय तुकाय मेळटलें.

कर्ण : हय, तें स्रय मेळटलें, पूण केदें मोल दिवन! ना कृष्णा, हें इतलें सोडून दुसरें कितेंय सांग. दुर्योधनाक हांव फटोवचो ना; दुर्योधनाचो हांव विस्वासघात करचें ना.

कृष्ण : हातूंत कसलो विस्वासघात?

कर्ण : आसा. कृष्णा, ह्या कर्णाचे जिणेंत दुर्योधनाची सुवात खूब व्हड आसा. लोकांनी सूतपूत म्हणून कुस्कुटायलो तेन्ना ताणेंच माथ्यार मुकूट दवरून म्हाका अंगराज केलो. त्या वेळारच ताका हांवें उतर दिलां. तें उतर पाळप होच म्हजो धर्म. ज्या दुर्योधनान महाका मनीस केलो, जाणें म्हज्या सुख-दुख्खाचो वांटो उखल्लो, जाचें अन्न खावन हांव जगलां, जाच्या बरेपणान व्हडविकेक पावलां, ताचे पसून पयस...? आतां जावचें ना हें. कृष्णा, हें केन्नाच जावचें ना.

कृष्ण : दुर्योधनाक तूं मानता, हांव जाणां. पूण कर्णा, हें युध्द, हो संहार, हें सगलें टाळप तुका गरजेचें दिसना?

कर्ण : हांव खंय ना म्हणटां? जाल्यारूय ताका म्हजो उपाय ना. आज मेरेन सूतपूत म्हणून जियेल्लो कर्ण ऐन वेळार दुर्योधनाक सोडून पांडवांक मेळ्ळो जाल्यार कर्णाचें उतर कुस्कुटासमान जावन वतलें. आनी हें सगलें कित्याक

तर, पांडवांचो व्हडलो भाव म्हणून मान जोडूंक। कृष्णा, सुवार्थाचो छाप लोक मारतले म्हज्या कपलार आनी तो घेवन जियेवंक पावचों ना हांव, ना, नाका. हें सूतपुताचेंच जिणें बरें आज मेरेन दुर्योधनाच्या बरेपणान जियेलां, म्हजें मरणय दुर्योधना खातीर जातलें.

कृष्ण : (सुस्कारो सोडून)खूब आस्त आशिल्ली म्हाका, हो संहार टाळपाक तुजो पालव मेळटलो म्हणून, पूण... पूण म्हजें कांयच पटलें ना तुका... म्हजेंच बळ उणें पडलें.

कर्ण : ना-ना कृष्णा, तशें न्हय. तुवें म्हळां तें सगळें खरें, म्हाका पट्टा. पूण-

कृष्ण : उपाय ना अशेंच म्हणटलो तूं. पूण कित्याक? ना कित्याक?

कर्ण : कशें सांगूं तुका? कृष्णा, हांव दुर्योधनाक बांदिल्लों आसां. उतरान, अन्नान आनी कर्तुबान पुराय बांदिल्लों आसां. म्हजें जिणें ताचेच खातीर आसा.

कृष्ण : असो भावनेंत गुस्पुं नाका. अजून विचार कर...

कर्ण : ना, विचार पसून करपाक हांव मेकळों ना. कृष्णा, म्हाका क्षमा कर.

कृष्ण : तरी पूण-

कर्ण : हांव बांदिल्लों आसां-

कृष्ण : पूण-

कर्ण : उतराक. तें मोडूंक जावचें ना.

कृष्ण : (हुस्कारुन) दारुका, रथ परतीय.

-----

## तिसरो अध्याय

(फांतोडेचो वेळ. गंगेची देग. खळखळ आनी सवण्यांचो आवाज आयकूंक येता. कर्ण प्रार्थनेचे श्लोक म्हणटा.)

काळीज आवयचें उसोवन पराथलें

नाका विनाश पुता

चुकलें म्हजें, सोंसलें तुवें तरी

भीक शांतिची मागतां

व्यर्थच गेलें प्रार्थन – मागणें

वैरीण थारली माय

आकांत समयीं अपेस पदरीं

## आनी काळजार घाय

### निर्फळताये पर्व, हें कर्णपर्व

यशाशा विमला: सर्वा: सूर्यभास्कर भानुभि:।
तथाशा: सफला देव कुरू नित्यं ममार्ध्यत:।।

श्लोक थांबतकच बायलेचो खांकिल्ल्याचो आवाज.

कर्ण : (पयसुल्यान मोठ्यान) कोण? (लागीं येवन) कोण? राजमाता? हांगा?? ह्या वेळार??

कुंती : हय पुता. अजाप दिसपाचेंच. ही भेट हांगा, अशी ह्या वेळार जायत अशें कोणें धरिल्लें!

कर्ण : पूण राजमाते, तुवें हो त्रास कित्याक घेवंक जाय आशिल्लो? म्हाका आज्ञा केल्यार हांव येतलों आशिल्लों-

कुंती : ना - ना. तेदें भाग्य ना म्हजें. हांवेंच येवप गरजेचें आशिल्लें. देखुनच आयल्यां.

कर्ण : कसली आज्ञा राजमाते?

कुंती : आज्ञा? शी: शी! आज्ञा करपाचो हक ना म्हाका. हांव आयल्यां दान मागूंक. कर्णा, म्हाका दान जाय-

कर्ण : दान!? (मोटेमोठ्यान हांसता) राजमाता केन्ना दान मागता? आनी कर्णा कडेन? (हांसता) एका सूतपुताचें हें भाग्य, काय नशिबाची ही जीवघेणी मस्करी! राजमाते, येदी मस्करी करपाक कर्णच तुका येवजलो?

कुंती : तशें म्हणूं नाका पुता. दानाची ही भीक तुजेच कडेन मागुं येता. तुज्यानच ती दिवं येता.

कर्ण : भीक?!(हांसता) एका किरकोळ सारथ्याचो पूत हांव. राजमातेक भीक घालपाची तांक ना. आयजवेर खूब दान केलें. पूण असो प्रसंग केन्ना आयलो ना.

(निश्चयान) सांग, राजमाते, तुका किर्ते जाय? प्राणां परस चड मोलार्चे कर्णा कडेन कांय उरूंक ना. तेंच जाय मूं तुका?

कुंती : थुमेकाल। अशें उलोवं नाका. कर्णा, म्हाका तूं जाय. तुजेविर्णे जिणेचो रथ रितोच उरला रे म्हजे...

कर्ण : समजलों. तुका सारथी जाय, रथाक तुज्या. राजमाते, आसा म्हजी तयारी.

कुंती : नाका पुता, अशें उलोवं नाका. तूं... तूं... कशें सांगूं तुका...? म्हज्या...

कर्ण : (मात्शा कडक उतरांनी) नाका. तुवें सांगूंक नाका. कृष्णान सांगलां म्हाका सगळें.

कुंती : (आशेन) कृष्णान सांगलां पुता तुका? कळ्ळें तुका? कर्णा-

कर्ण : नाका, तूं उलोवं नाका. तेंच अळशिकावणें सत्य तुज्या तोंडातल्यान म्हज्यान आयकूंक जावचें ना. तें सोसूंक जावचें ना.

कुंती : (सुस्कारे सोडीत) तुजो गुन्यांव ना पुता. जें सांगूंक म्हाका धीर जायना, तें आयकुपाची सोंशीकसाण तुका खंयची आसतली! हेंच म्हाका मेळिल्लें प्रायश्चित. पुरस्मटमारांनी फुगार जावपार्चे आनी सांगूंक धीर जायना म्हणून भितल्ले भितर जळपार्चे।

कर्ण : पुरस्मटमार! तुका?! तुका कसले पुरस्मटमार! तूं राजमाता! पांच शूर पुतांची आवय! जगलोक तुज्या पांयां कडेन नमता, तुज्या इल्ल्याश्या कश्टांचे चुरचुरे करता. तुका धन्य आवय मानता.

कुंती : म्हाका सूख ना पुता तातूंत, म्हजें जिर्णे-

कर्ण : कांयच धग लागूं ना तुजे जिणेक. जिणें करपलां म्हजें. समूळमुशीं हुल्पलां तें मन म्हजें. घुस्मटमारांनी रडलां तें मन म्हजें.

कुंती : हांव जाणां. पूण हुल्पला तो कुडको म्हज्याच काळजाचो न्हय रे पुता? रडला तो म्हज्याच मनाचो कोनसो न्हये? कशें सांगूं तुका आंकवार आवयचें दुख्ख? कशें सांगूं? (हुडके दिता) खूब सोंसलें पुता, खूब सोंसलें-

कर्ण : म्हजेर उपकार न्हय ते. कर्म केलां तार्णे ताचीं फळां भोगुंकूच जाय. वांट्याक येता तें सोंसूंकच जाय. पूण हांवें भोगलें तें... हांवें भोंगलें तें प्रायश्चित म्हज्या कर्माचें न्हय, हांवें सोंसले ते परिणाम म्हज्या कर्तुबाचे न्हय. हें तुवें म्हज्या माथ्यार थापिल्लें दुख्ख, हो तुवें म्हज्या मनांत पेटयल्लो उजो. जल्म दिलो तुवें म्हाका आनी... (सद्गदीत जावन)... आनी तुज्या गुन्यांवाचें प्रायश्चित भोगपाचें दायज दिलें म्हाका दान... कर्मभोगाची ही पोटली तुवें बांदली म्हज्या गळ्याक... सुटली तूं... पवित्र जाली... आनी हांव...? हांव त्या कर्मभोगाच्या भारा सकयल झरत आसां. अपमानाचीं मर्णां मरत आसां. (तिडकीन) कसलें पातक केल्लें म्हणून हांवें?

कुंती : गुन्यांव म्हजोच पुता, गुन्यांव म्हजोच. परिणाम मात भोगलो तुवें आनी तो पळयतना म्हज्याच दुकांनी न्हिवयलो हांवें काळजाचो हुलोप. (काकुळटेन) पुता, तूं उदार, तूं दानी. त्याच उदार अंतस्कर्णान म्हाका क्षमा कर आनी पदरांत घाल म्हज्या भीक. ना म्हणूं नाका. तुजो उपकार सासणाचो उरतलो म्हज्या माथ्यार.

कर्ण : कर्ण उपकारा खातीर दान दिना. (उपहासान) उपकार केला तुवें म्हजेर जल्माक घालून! सांग, तुका जाय तरी

किर्तें?

कुंती : ज्या घोंटेरांतल्यान, पुता, तुका हांवें पापणीन भायर दवरलो, त्या घोंटेरांत परत यो. भावांच्या गोपांत यो. कुटुंबांतली रिती सुवात भरून काड...

कर्ण : (उपहासान) म्हजें कुटुंब! म्हजी आवय!! म्हजे भाव!! ही... ही गंगा म्हजी आवय, हो संवसार म्हजें कुटूंब... आनी भाव...? म्हाका भाव नात... हांव एकलो... सामको एकलो... जल्माक आयलों तेन्ना आनी मरतलों तेन्नाय...

कुंती : अशें उलोवं नाका. तुजो फुडार पर्जळीत आसा. तुजें तेज संवसाराक जिखतलें... पुता, फाटलें विसर आनी यो... संवसाराक कळूं दी तूं कोण तो...

कर्ण : संवसाराक कळूं दी? संवसारान म्हजें आनीक हांशें करपाक? खूब बेगीन याद जाली तुका संवसाराची, म्हज्या पर्जळीत फुडाराची, म्हज्या तेजाची. रंगांत कृपाचार्यान कूळ विचारलें तेन्ना खंय गेल्लो हो तुजो उमाळो? भीमान चाबूक येवन घोड्यांक आमूड म्हळें तेन्ना खंय गेल्ली तुजी आवयची माया? सूतपूत, सूतपूत म्हणून लोकांनी हिणसायलो तेन्ना कसो आटलो तुज्या मनाचो हो कळवळो? तेन्ना तूं तोंड धांपून रावली आनी थंयच तुवें म्हजो फुडार काळखांत बुडयलो... उदगरतीची वाट आडायली...

कुंती : कर्णा, कर्णा हांव-

कर्ण : एक उतर उलोवं नाका. गरज ना ते मखलाशीची. गरज अशिल्ली तेन्ना तुजी जीब हालली ना. स्वंयवराच्या माटवांत सूतपूत म्हणून द्रौपदीन हिणसायलो तें कळ्ळें ना तुका? पूण तेन्ना तुजे जिबेर उतर फुटलें ना. आनी

ज्या संवसाराक भियेवन तुवें म्हाका घुस्मटायलो, त्याच संवसाराचो उगडास तुका आयज जाला. गरज ना ताची. असो कसलो आकांत आयला त्या संवसाराचे दोळे उक्ते करपाक?

कुंती : आयला पुता, आयला. तेच खातीर ही भीक तुजे कडेन मागतां. संवसाराचे दोळे उक्ते करुन प्रायश्चित मेळटलें तें म्हाका. पूण कुरु-कुळाच्या भाग्याक गिराण लागचें ना. कर्णा, तुका कशें समजावं ? तूं कोण हें उक्तें जाल्यार, तुज्या भावांक तुवें वळखिल्यार युध्दाचें हें मोड नाच जातलें, हें झगडें पालवतलें. कुरु-कुळाचो संहार टळटलो. पुता, ह्या भाग्यवंत कुरूंच्या मुळार उठिल्लें दुस्मानपणच सोंपतलें. ताचें श्रय, ताचें पुण्य तुज्याच पदरांत पडटलें.

कर्ण : अशें - अशें, आतां समजलें. तुजें मन भिलां तें युध्दाक. कुरु-कुळाच्या नांवान तुका थांबोवंक जाय तें युध्द. तुका टाळूंक जाय तो संहार तुज्या कुटुंबाचो आनी तुका भीक जाय ती तुज्या पुतांच्या प्राणांची।

कुंती : ना, ना कर्णा-

कर्ण : समजलें, सगलें समजलें. युध्दांत जैत कौरवांचेंच जातलें हें तूं जाणा. पांडवांच्या पुरुषार्थाचो बोमाडो फुट्टलो हेंय तूं जाणा. तांची राखण करपाक कृष्णाचेंय बळगें उणें पडटलें, देखूनच तुजें मन कांचवेलां. जांची आवय म्हणून तूं आयज मेरेन अभिमानान जियेल्या, त्या तुज्या पांचय पुतांच्या प्राणांचेंच दान जाय तुका-

कुंती : किर्तें उलयता पुता हें...। प्राणांचेंच दान मागपाचें आसत जाल्यार हांव तें म्हज्या सय पुतांचें मागन. कुरु-कुळांतल्या सगळ्या विरांचें मागन. पूण म्हाका दान जाय तें तांचेय परस मोटें... कर्णा, कुरूंच्या एकवटाचें दान घाल

म्हज्या पदरांत. पर्जळीत फुडाराचें दान घाल म्हजे हॉटींत. कुंती मागता हें तुजे कडेन... एक आवय मागता, आवयचें काळीज मागता-

कर्ण : आवय? खंयची आवय? कुडीची खिणयाळी भूक भागोवन जल्माक घाल्ल्या कंवळ्या भुरग्याक न्हंयच्च्या पोटांत लोटून दिवपी आवय? पुताचो अपमान दोळ्यां मुखार घडटना तोंड धापून मौज पळोवपी आवय? ते आवयक काळीज आसा? पुतांची माया आसा? संवसाराचो मोग आसा? तूं तुजेंच उलय, आवयच्च्या पवित्र नात्याक तुजी सर लावन भश्टावं नाका.

कुंती : म्हज्या कर्माचें प्रायश्चित भोगीन हांव. पूण कर्णा, हें झूज नाका, हो संहार नाका. इतलेंच मागतां हांव तुजेकडेन... इतलेंच...

कर्ण : इतलेंच?! पूण तें दिवपाची तांक म्हाका खंय आसा? कुरूंचो पर्जळीत फुडार घडोवपी हांव कोण? राजा आसात, आचार्य आसात. हस्तिनापुराच्या शिंवासनाचो हांव एक सादो-

कुंती : ना - ना. कर्णा, तूंच ताचो धनी. आयक म्हजें. दुर्योधन तुज्या नाडयार उडटा. तुज्या बळार तो युध्द करूंक फुरफुरता. तुका ह्या संहाराचो धनी करूंक सोदता. सोड ताची संगत. विसर तें दुस्मानपण. तुका न्हय तें पुता, तुका न्हय तें...

कर्ण : राजमाते, काकुळट दिसता म्हाका तुजी. तूं कर्णाक वळखलीच ना. दुर्योधनाची संगत सोडूं? ज्या दुर्योधनान म्हाका इश्ट मानलो, माथ्यार मुकूट दवरून राजा केलो, दिग्विजयाची संद दिली, जाणें सुख-दुख्खांत म्हाका सांगात दिलो, जाणें म्हजी उमेद वाडयली ताची संगत

सोडूं? आनी जोडूं कोणाची? जांणी पावला-पावलाक सूतपूत म्हणून हिणसायलो तांची? जांणी खिणा-खिणाक कुस्कुटायलो, अपमान केलो, उतरांच्या इंगळ्यांनी हुल्पायलो तांची संगत जोडूं? तांकां भाव म्हणून माथ्यार घेवन नाचूं? जांणी म्हज्या गुणांचें मोल केलें तांकां ह्या वेळार खोंटावन, जांणी कर्णाक उक्त्या दोळ्यांनी पळयलोच ना तांचे फाटल्यान धांवूं? तें जावचें ना. ह्या जल्मांत तरी जावचें ना. राजमाते, तुका जायच जाल्यार म्हज्या प्राणांचें दान माग, पूण म्हाका पडमूर जावंक सांगु नाका; उपकार करतल्यांचो विस्वासघात करूंक सांगु नाका.

कुंती : कशें पटोवन दिवं तुका...? कसो समजावं तुका...? कर्णा, कर्णा

कर्ण : तोय त्रास घेवं नाका. तुवें दान मागलां, आवयचे नातें सांगून मागलां... कर्णान आयज मेरेन ना कोणाकूच म्हणूंक ना. तुका उतर दितां हांव-

कुंती : (आशेन) कर्णा-

कर्ण : निस्कळंक मनान राव. तुज्या पांचां मदल्या चार पुतांच्या जिवाचें दान घालें तुजे होंटींत...

कुंती : पूण कर्णा-

कर्ण : अर्जुनाचें मागून अर्थ ना. आज मेरेनचे जिणेचो हिशोब ताचे कडेन म्हाका मांडपाचो आसा. उरिल्ल्यांक संद आयली तरी मारचों ना.

कुंती : पूण पुता, तुमी सय जाण एकाच काळजाचे कुडके. सगल्यांच्या प्राणांचें मोल म्हाका सारकेंच...

कर्ण : तशें जावचें ना. जगलोक पांचच पांडवांक वळखता. ते

पांचच उरतले. एक कर्ण ना जाल्यार अर्जुन, तुजे पांच पूत तुका उरतले इतलेंच... इतलेंच दिवं येता म्हज्यान तुका... तेंय तूं आवयचें नातें सांगून आयल्या म्हणून... इतलेंच... इतलेंच...

कुंती : कर्णा, पुता, इतलेंच मोल केलें मरे म्हजें...। (हुडकेत) कितें सांगूंक आयलें आनी कितें घालें तुवें पदरांत... देवा, कसलें जिणें भोगतां हें हांव...। वीर पुतांक जल्म दिवनय अपेसच जोडलें हांवें... अपेसाकच जल्म दिलो हांवें... कितें पळोवंक हें जिणें म्हजें...? कितें सूख भोगपाचें आसा ह्या कर्मकट्टया जल्मांत। कोणूच समजून घेना म्हजें मन... कर्णा, पुता, तूंय वळखलो ना मरे आवयचें अंतस्कर्ण...?

कर्ण : नाका, जिवाक अशे, कश्ट घेवं नाका

कुती : कश्ट...। कश्ट जायनात... पुता, जिवांत जीवच उरूंक नारे म्हज्या...

कर्ण : नाका, राजमाते, दोळ्यांत दुकां काडुं नाका. घडटा ताका उपाय ना...

कुंती : हे भोग आमच्या कर्माचे। आमच्या न्हय, म्हज्याच... म्हज्याच कर्माचे हे भोग. म्हजेंच हें अपेस.

कर्ण : नाका असो पच्छताप... नाका, नाका दोळ्यांत दुकां... राजमाते... राजमाये ऽऽऽ

कुंती : पुता ऽऽऽ

कर्ण : (भरिल्ल्या आवाजांत) माये, क्षमा कर म्हाका... चड कांय दिवंक पावना हांव... चड कांय दिवंक पावना...

कुंती : (भावना आटून फुतफुतिल्ले भाशेन) अपेसच म्हज्या पदरांत... अपेसच पदरांत...

----

## चवथो अध्याय

(कुरुक्षेत्र - शिंगांचे, तलवारींचे आवाज. रथ धांवतात, घोडे धांवतात तांचो बोवाळ)

सुत्रधारः

यत्न शांतिचे निर्फळ सगले

युध्द पिशें जिखलें

सांवार झुजाचो, रगत – रेब्याचो

मार्ण – पिशें खुबलें

कुरुक्षेत्र न्हय स्मशान भूंय ती

अधर्माचें गा पर्व

संहाराचो नाच भयंकर

कुळक्षयाचें पर्व

हें कर्णपर्व... हें कर्णपर्व...

अर्जुन : कृष्णा, पळयलां तुवें, राजाचो रथ खंयच दिसना.

कृष्ण : आसतलो खंय तरी, सारको पळय.

अर्जुन : येदोळच्यान पळयत आसां, खंयच दिसना. पळोवन येवया?

कृष्ण : हें:। युधिष्ठिर रण सोडून खंय वतलो?

अर्जुन : तशेंच म्हाकाय दिसलें पयलीं. पूण राजाच्या रथाचो बावटो खंयच दिसना. दुखापत बी जावंक ना मूं?

कृष्ण : अर्जुना, ओगीच हुस्को करूं नाका. युधिष्ठिराक कसलेंच भंय ना. ताचे म्हन्यांत भीम आसा, नकुल-सहदेव आसात, सात्यकी आसा.

अर्जुन : तांचे सगल्यांचे रथ हांगा थंय दिसतात, पूण राजाचो रथ दिश्टी पडना. कृष्णा, म्हाका दुबाव येता-

कृष्ण : पापया, दुबाव येवपाक कारण ना. तशें कितेंय घडल्यार खबर पावोवचे नाशिल्ले हे बशीन? तूं युध्दाचेर चित्त थीर कर पळोवया.

अर्जुन : राजाविशीं मनांत हुस्को आसतना चित्त थीर कशें जातलें? म्हणूनच म्हणटां-

कृष्ण : आरे, पूण-

अर्जुन : हें पळय, हुस्को करिनासतना रावन; पूण रणांत राजा ना अशें कळ्ळ्यार सैन्याची दशा कितें जातली तें येवजिलां

तुवें?

कृष्ण : ही चिंता तुज्या मनांत आसा जाल्यार वचून येवया...

अर्जुन : शिबिरांत वचून खबर घेवन रोखडे येवया. चल, बेगीन परतीय रथ. बेगीन या... (रथ मोटे गतीन वता. युध्दाचो बोवाळ ना. रथ येवन थांबता)

कृष्ण : हो पळय, रथ आसा हांगा, युधिष्ठिर आसूंक जाय शिबिरांत. चल-

युधिष्ठिर: (आनंदान) कोण अर्जुन! आयलो तूं? ह्याच खिणाक रावतालों हांव.शाबास अर्जुना, अखेर कर्णाच्या गर्वाचो हांडो तुवेंच फोडलो. कर्णाची मस्ती तुवेंच जिरयली. कर्णाक प्रायश्चित तुवेंच दिलें. हेच खबरेची वाट पळयतालों हांव. अर्जुना, भाव आसचो जाल्यार असो, धनुर्धर आसचो जाल्यार असो, वीर आसचो जाल्यार असो!

(थोडो वेळ शांतताय)

तुमी अशे ओगी कित्याक? हो खीण आनंदाचो! आरे, खरें म्हळ्यार आयजच

अर्जुन : (सकयल्या शांत आवाजान) राजा, कर्ण आजून जितो आसा. तुजो रथ दिसलो ना म्हणून आमी खबर घेवंक आयल्यात.

युधिष्ठिर: (संतापान) कर्ण आजून जितो आसा? आनी हें म्हाका सागूंकच तूं हांगा आयला? भंगलो तुजो पुरुषार्थ, व्यर्थ तुजो पराक्रम! कर्ण जितो आसा हें सांगपाक तुका लज दिसना? कसलें तोंड घेवन आयला तूं म्हज्या म्हऱ्यांत? शेंवटून मार तें गांडीव आनी बस येवन शिबिरांत...

अर्जुन : (रागान) राजा-

युधिष्ठिर: राजा म्हणून घेवपाकूय लज दिसता म्हाका. युध्दाचो आज

सोळावो दीस. भीष्माचार्य पडले, द्रोणाचार्य सोंपले आनी त्या कर्णाच्या धडा वयलें शीर तुज्यान ना करूं नज? कसल्या उपेगाची तुजी विद्या आनी तुजीं शस्त्रां! सांग तुज्यान हें जायना म्हणून. सांग तूं कर्णा कडेन हरलो म्हणून. थांबयतां हें युध्द आनी वतां वनांत संन्यास घेवन. तूंय उडय कोनशाक तें धनुश्य आनी दाखय संवसाराक तुजें दुबळेपण-

**अर्जुन :** (रागान) राजा, तोंड सांबाळून उलय. ह्या गांडिवाचो अपमान करूं नाका. कर्णाचें शीर तुटचे पयलींच गांडिवाचो अपमान करतल्याचे मानेर पडटलें हें खड्ग.

**कृष्ण :** अर्जुना, अर्जुना, किर्ते हें! राजाचेर शस्त्र उखललें तुवें! शांत जा... रागाक दोळे नासतात....

**अर्जुन :** म्हणूनच राजाक सांग, जिबेक दावें घाल म्हणून... गांडिवाचो अपमान आयज मेरेन सोंसून घेवंक ना हांवें... हाचे फुडेंय केन्ना घेवचों ना. राजा आसूं, ना जाल्यार आनीक कोणूय आसूं-

**युधिष्ठिर:** पूण कर्ण करता तो संहार जें गांडीव पळयता आनी ओगी बसता ताचो हो अभिमान कसल्या उपेगाचो!

**अर्जुन :** राजा, तुका समजुचें ना तें. हेंच गांडीव कर्णाचे प्राण घेतलें तेन्ना उगडटले तुजे दोळे. ते मेरेन उलोवं नाका. रण सोडून आयिल्ल्या राजाक अधिकार ना किर्तेच उलोवपाचो. दुसऱ्याच्या पराक्रमाक कुस्कुटावपाचो. ही तिडक रणांत काडल्यार खरी आशिल्ली. तें रण सोडून शिबिरांत येवन बशिल्ल्याचो राग हेंच दुबळेपण. तुका युध्द न्हय; तुका संन्यासच फावता!

**युधिष्ठिर:** जाणां हांव. अर्जुना, म्हज्या कर्तुत्वाची शीम जाणां हांव. देखूनच युध्द नाका म्हणिल्लें हांवें. पूण तुमचो पुरुषार्थ

फुरफरलो. आनी तुमच्या भावांच्या बळाचेर विस्वासून हांवें हें पावल घालें. पूण व्यर्थच जालें सगळें. भीष्म, द्रोणाचें पर्व सोंपोवनय एका सूतपुता कडेन अडलो तुमचो पुरुषार्थ. हांव पळून येवंक ना. तितलो भिजूड समजुं नाका राजाक. कर्णान केल्ली ही दशा पळय म्हजी. दिसता तुज्या दोळ्यांक? ह्या घायांक वखद लावंक आयलों हांव हांगा, पूण कर्णान खंय म्हाका जिवाचें दान दिलें! पांडवांच्या राजाक जिवाचें दान! आनी हांसलो तो. त्या हांशाची तीख मिर्सांग जळटा ह्या घायांनी.

अर्जुन : पूण ते खातीर तुका गांडिवाचो अपमान करपाची कसलीच गरज नाशिल्ली.

कृष्ण : अर्जुना, तो अपमान समजुं नाका. धनुष्याक दिल्लें तें आव्हान समज. राजाक तुका दुखोवपाचें ना, ताका जाय कर्णाचें मर्ण. ती खबर राजाक मेळटली तेन्ना ताचे हुलप थांबतले. तुजे कडल्यान हेंच ताका जाय. धनुष्याचें बळगें ताका पारखूंक जाय. धनुर्धर अर्जुनाचो पुरुषार्थ आज रणांत कसाक लागिल्लो जाय.

अर्जुन : राजाक हेंच जाय आसत जाल्यार आज पळोवं दी. ज्या गांडिवाचो अपमान ताणें केला, त्या गांडिवाच्या तेजान ताचे दोळे दिपतकावले. राजा, म्हजीं रागाचीं उतरां विसर, पूण इतलें मतींत धर की आयज कर्णाचो गर्व मातये भरवण केलो ना जाल्यार हें परतें तुका दिश्टी पडचें ना. चल, कृष्णा, तुज्यान जाता तितले बेगीन पावय म्हाका रणांत.

कृष्ण : चल. राजा, विसव घे. येतात आमी.

युधिष्ठिर: जैतिवंत जावन येयात. हांवय सरतां भायर-

(रथ मोटे गतीन वता. रोखडोच युध्दाचो बोवाळ.)

अर्जुन : कृष्णा, घाल रथ कर्णाचेर.

कृष्ण : तयारेन आसा तूं? चित्त थीर कर.

अर्जुन : चित्त थीर आसा कृष्णा. दोळ्यां मुखार फकत कर्ण दिसता म्हज्या. फकत कर्ण...

कृष्ण : राव, हो पळय कर्णाचो पूत... उजवे वटेन...

अर्जुन : वृषसेन? राव. तो कित्याक येता मर्दी आडवो? यो, वृषसेना, यो. घे- पुरो? भिर्येव नाका. बापूय येतलो तुज्या सांगाताक

कृष्ण : शाबास अर्जुना, तीनच बाण मारचे पडले तुका.

अर्जुन : चड लागले! कृष्णा, रथ कर्णाचेर घाल... कर्णाचेर-

कृष्ण : गरज ना. पूत पडिल्ल्याची खबर कळटनाच कर्ण आसा थंयच्यान चवताळून येतलो.

(युध्दाचो बोवाळ वाडटा. शंख वाजतात. रथांचे आवाज लार्गी- लार्गी येतात.) अर्जुना, सांबाळ. कर्ण हेच दिशेन येता. पळय पळय. कसो चवताळून येता, दिसलो?

अर्जुन : येवं दी, येवं दी. आयज निमाणो पळोवन घेतां ताका... आतां थोडोच वेळ दिसतलो तो.

कृष्ण : राव, आनीक मात्सो फुडें येवंक दी ताका. शल्य रेब्यांतल्यान रथ फुडें येवंक सोदता. येवं दी, येवं दी... फुडें सरप कठीण जाता ताका... कर आरंभ अर्जुना, आयज दीस तुजो... आयज ह्या कुरुक्षेत्राक दाखय गांडिवाचो पराक्रम...

अर्जुन : (तिडकीन) कर्णा, यो असो सामकार यो. तुजी वाडत गेल्ली खुमखुमी न्हिंवोवपाची संद आज आयल्या. खूब सोंसलें तुजें तिडावप. रंगांत म्हज्या गळ्यांत पडिल्ली

जैताची माळ सोसली ना तुका. तेन्ना भंगूं म्हळें तुजें. द्रौपदीच्या स्वयंवरा वेळार म्हज्या येसाची नसाय जाली तुका, पूण तेन्ना भिजुडपणान सुटलो तूं. वनवासांत आसतना तिडावपाची खुरखुरी मारली तुका, पूण आदींच पळून गेलो तूं. विराटालीं गोरवां चोरूंक गेल्ले तेन्ना जिवाचें दान दिलें तुका हांवें. आज मात दयेचो थेंबोय पडचो ना ताळ्यार तुज्या. लाथ सगलें बळगें पणाक. दुर्योधनान ज्या तुज्या भुजांचेर भार घाला तीं फकत गर्वानच फुगल्यांत हें दाखयतां संवसाराक. (आड्डून) कर्णा, सोड जिवाची आस-

कर्ण : कोणाक आयकूंक मारता ती पोकी बडाय? अर्जुना, द्रोणान रचिल्लो रंग न्हय हो. स्वयंवराचो माटवय न्हय; हें कुरुक्षेत्र. तोंडान उलोवं नाका. हातांनी उलय. कितलें बळ आसा तुज्या हातांत तें पळोवया. खूब वेळान मेळ्ळ्या ही संद म्हाका. तुज्या पुरुषार्थाचो नकली खांबो आयज कोसळटलो. कर्णाचे ल्हंवेची सर तुका ना हें पळयतलो तूं. (आड्डून) अर्जुना, दोळे उक्ते दवर. मरतनाय दोळे उक्ते दवरून पळय- (खण्ण असो आवाज जाता. अर्जुनाचो मुकूट पडटा)

कृष्ण : अर्जुना, किर्तें जालें?

अर्जुन : कांय ना. बाण लागून मुकूट पडलो.

कृष्ण : सांबाळ, कर्ण जिवाच्या आकांतान चवताळ्ळा.

अर्जुन : निमाणी उडी ही ताची. दाखयतां ताका. रथ मात्सो उजव्यान घे-(अर्जुनाचो उरवास नेटान आयकूंक येता. युध्दाचो बोवाळ वाडटा आनी अकस्मात उणो जाता-)

कृष्ण : किर्तें जालें? अर्जुना, थांबलो कित्याक?

अर्जुन : कर्ण रथांत ना. तो सकयल कित्याक देंवला?

कृष्ण : रथाचें चक्र रेब्यांत रोमलां. तें वयर काडूंक तो देंवला. चक्र घट्ट रोमलां. कर्ण आड्यवला. (भितल्ल्या आवाजान) अर्जुना, ही संद साद. कर चाळण कर्णाचे कुडीची. वेळ करुं नाका.

अर्जुन : पूण कृष्णा, तो चक्र हालोवंक देंवला. अधर्म कित्याक करूं? चडुं दी ताका परतो वयर, हातच निखळावन उडयतां.

कृष्ण : अर्जुना, पिशेपणां करुं नाका, तूं मारचो ना अशें धरुनच तो देंवला. पूण पळय, पळय - एका हातान चक्र वयर काडपाचो यत्न करतना दुसऱ्या हातांत धनुश्य धरून दांतांनी बाण ओडटा तो दिसना तुका? तो निःशस्त्र ना. अर्जुना, मार... ह्या वेळार दया दाखोवं नाका.

अर्जुन : पूण कृष्णा-

कृष्ण : मार, सगलें बळ लावन मार. अर्जुना, ही भांगराची संद-

कर्ण : अर्जुना, राव. मात्सो थार धर. धर्मान चलपी म्हणून तुका वळखतात. विरार्चे कर्तव्य तूं जाणा. अधर्मान युध्द करुं नाका. एकच खीण राव, एकच खीण. तुज्या पराक्रमाक काजळ लावं नाका, धर्मान चल. अर्जुना, तूं धर्म जाणा.

कृष्ण : कर्णा, पुरो उलयलो तें. धर्मार्चे नांव सोबना तुज्या तोंडांत. अडचणींत सांपडटकूच तुका नीत येवजल्या. जिवाचेर आकांत येतकूच आयज तुका धर्माचो उगडास जाला. भर सभेंत द्रौपदीच्या आंगा वयलें वस्त्र ओड म्हणून दुःशासनाक हेच जिबेन सांगिल्लें न्हय तुवें? कर्णा, तेन्ना खंय गेल्लो तुजो धर्म? अभिमन्यू सारक्या कंवळ्या विराक तुमी आठ जाणांनी घेरावन मारलो. तूंय

आशिल्लो तातूंत. कर्णा, तेन्ना धर्म येवजलो ना तुका? जाता याद त्या कर्तुबांची? जाता याद त्या अधर्माची? उलय, आतां कित्याक धरली तुजी वाचा?

**अर्जुन :** उलोवं दी ताका. काइूं दी चक्र वयर. परत केन्नाच उलोवंक पावचो ना तो.

**कृष्ण :** अर्जुना, कशें समजना तुका? तो उलोवन वेळ काडूंक पळयता. तुका आटापतना खर्शेला तो. चक्राच्या निमतान तो बळ एकठावंक पळयता. ती संद दिवं नाका. मार, सोड तो बाण. असो पळयत किर्ते रावला...? कौरवांचे सर्भेत कॅसांक धरून भरभरीत ओडून हाडिल्ले तुजे द्रौपदीन घाल्लो हांबेर याद जायना तुका...? दुकांनी भिजिल्लीं उतरां गाजनात तुज्या कानांत? (द्रौपदीचो आवाज घुमता)

**आवाज:** दु:शासना, सोड म्हजो पदर। कसलो अधर्म मांडला हो तुमी। कुरुंचें सोपलें पुण्य? काय हीच हे राजसभेची पुण्याय? हे पवित्र सुवातेर कुरु-कुळांतले एके सुनेची विटंबणा करतना हात झडनात कशे तुमचे। .. हस्तिनापुरांतले हे राजसभेचे न्यायनितीचो गोबोर करून उडोवपाची कसली ही अवदसा येवजल्या तुमकां...। बायल मनशेच्या पदराक हात घालप होच तुमचो पुरुषार्थ? हांव खेळूंक ना द्यूत तुमचे बराबर. म्हजे ल्हंवेक पसून हात लावपाचो अधिकार ना तुमकां...(भरिल्ल्या ताळ्यान) सगले जाणटे, न्यायनीत करपी, कुरूचें नांव घणघणावपी वीर आसूनय कशी जाली हे राजसभेची नाटकशाळा? कसल्या पातकाचे फोंडारे उस्तितात तुमी...? पितामह..., आचार्य..., तुमचेर अशी मोनेळ कित्याक पडल्या...? तुमचे हे सुनेचीं दुकां, ही दशा दिसना तुमकां...? ही वरड आयकूंक येना

तुमकां...? उलयनात कित्याक... ? (सुस्कारो सोडून) आनी महाराज, तुमी पांच वीर घोव आसूनय हीच विटंबणा म्हज्या वांट्याक...? हें पळोवन ओगी कशे बसल्यात तुमी...? ही विटंबणा दिसना तुमच्या दोळ्यांक...?

कृष्ण : कसले येवजणेंत पडला अर्जुना? हो वेळ येवजुपाचो न्हय. ओड दोरी आनी सोड बाण. तुर्जे जिर्णेतली ही भांगराची संद. वेळ कांडुं नाका. एकूय खीण वगडावं नाका. वनवासांत द्रौपदीन भोगिल्ले त्रास दोळ्यां मुखार हाड. तिच्या अंतस्कर्णांत जळत आशिल्ल्या त्या रागाची जोत नाचना तुज्या मना मुखार?

(द्रौपदीचो आवाज घुमता)

आवाज : हें सगलें सोंसून तुमी थंड कशे रावतात तेंच समजना म्हाका. महाराज, तुमकां, म्हाका, तुमच्या चार भावांक गुन्यांव नासतना हो वनवास भोगचो पडटा हाची तिडक येना तुमकां? खंयच्च्या मनान दुस्मानाक क्षमा करतात तुमी? हो पुरुषार्थ न्हय; हें भिजुडपणाचें लक्षण म्हणटलो लोक. पुर्वजांनी हेंच केल्लें आमगेल्या? तांकां गुन्यांवाची तिडक येताली, राग येतालो; अपमान थंडसाणेन केन्ना सोंसलो ना तांणी. तुमचें मात् धोरणच समजना... कोणाचें कांयच वायट करिनासतना आमच्या वांट्याक हे भोग; आनी त्या दुश्ट दुर्योधनाक राज्य भोगपाची मेकळीक। हीच नीत तुमची? दुश्टाक ख्यास्त करिनासना वयल्यान तस्रीप दिवन न्याय जायना महाराज... देवाचेच इत्सेन हें घडलां आसत जाल्यार देवय बळाचीच व्हडवीक मानता अशें म्हणचें पडटलें. मागीर तेच नितीन तुमी कित्याक चलनात? बळानच दुर्योधनाक बुद्द

कित्याक शिकयनात...? महाराज, दैवाचेर इतलो विस्वास बरो न्हय. बळान दैवाक बागोवं येता आनी तें बळ तुमच्या आंगांत आसा, तुमच्या भावांच्या हाडापेरांत आसा. दुस्मानांचो गुन्यांव कितलो काळ भक्शीतले...? महाराज, पराक्रम करुन तुमचो हक मेळयात, पुरुषार्थ तातूंतच आसा. आतां थंडसाण नाका. खूब जाली ही सोंशीकसाण! दुस्मानाक ख्यास्त करुनच ताळ्यार हाडात.

**कृष्ण** : होच तो कर्ण! अर्जुना, द्रौपदीक बोट दाखोवन पोजर्डी उतरां उलयल्ली ती हाचीच जीब. आयज दी तिका ख्यास्त. आयज शिकय ताका धर्म, आयज दी ताका न्याय. होच वेळ, होच खीण. शिश्टायेक वतना द्रौपदीन म्हाका घाल्लो सपूत येवजीय. तिच्या मनाचेर पडिल्ल्या घायांचे ते तीख हुलप येवजीय. तिचे माने वयले ते मेकळे केंस हाड तुज्या दोळ्यां सामकार...

(द्रौपदीचो आवाज घुमता)

**आवाज** : कृष्णा, शिश्टायेक वच; पूण ह्या केंसांचो घट उगडास धर. दुःशासनाच्या पातकी हातांनी ओडिल्ले हे केंस... याद जाली की आजय तिडकीन मस्तक तापता... कौरवां कडेन समेट करपाचो विचार मनांत येतलो तेन्ना म्हज्या मनाचे हे धग विसरूं नाका... महाराजांक युध्द नाका. भीम आनी अर्जुनय युध्द नाका म्हणून काकुळटेक येतात. बसूं तांकां थंय - आयज मेरेन बसल्यात तशे...! म्हाका जाय युध्द; हय म्हाका जाय. ते बगर तेरा वर्सांचे दुख्खांचे हुलप न्हिवचे नात म्हजे... म्हजो बापूय आसा... म्हातारो जालो तरी बळ आसा मनाक; धृष्टद्युम्न आसा... आनी म्हजे पूत आसात. आवयक भोगयल्ल्या त्रासांचो सूड येतले बगर रावचे नात ते वीर. म्हजो विस्वास आसा

तांच्या बळाचेर...! कृष्णा, वच तूं; पूण जे सभेंत उलयतलो, तेच सभेंत हे द्रौपदीची विटंबणा जाल्ली ती विसरुं नाका. ज्या हातान म्हजे केंस ओडिल्ले, त्या हाताचे कुडके - कुडके जावन मातयेंत पडिल्ले पळोवपाचे आसात म्हाका... (सुस्कारो सोडून) तेरा वर्सां वाट पळयली... (कणखर आवाजान) कृष्णा, आतां दुश्टांचो संहार जाल्लो पळयले बगर म्हज्या मनाक शांती मेळची ना... मेळची ना...

कृष्ण : हेंच तें संहाराचें मूळ, होच तुजो दुस्वास करीत आयिल्लो कर्ण, होच तो तुज्या अभिमन्यूक अधर्मान मारपी कर्ण! सुभद्रेक दुख्खाच्या दर्यांत लोटली ती हाणें. उत्तरेचो कुकूम पुसलो तो हाणें. अर्जुना, खिणाचोय कळाव लावं नाका. दी ताका ख्यास्त. हाच्याच नाड्यार दुर्योधनान मांडला मरे हो संहार! दी ताका प्रायश्चित. युदिष्ठिराक दिल्ल्या उतराचो उगडास कर... उखल तें... अर्शे...उखल, ओड दोरी, ओड... घाल सगल्या रागाचें बळ त्या बाणांत... आनी सोड... (आड्डून) सोड

(बाण कर्णाचे फाटींत रोमता. मोट्टो बोवाळ जाता आनी रोखडीच थंडाय पातळटा.)

कर्ण : (मर्णाचे धडेर सुस्कारता) आ ... अर्जुना... अखेर तूं जिखलो... म्हज्याच कर्तुबांचें हें प्रायश्चित... जावं... विरार्चेंच मरण मरतां हांव... राजाक... दुर्योधनाक सांगात... हांवें उतर पाळ्ळें... कर्ण उतर पाळटां-पाळटां मेलो... (उस्वासांची गती वाडटा) अर्जुना... अर्जुना... लार्गी यो... म्हाका मांडी दी... हाय...

कृष्ण : अर्जुना, मांडी दी. बेगीन फुडें सर.

कर्ण : ह्या मर्णांत सुख आसा... अर्जुना... कुंतीमायेक सांग...

सांग...    कर्णान दिल्लें उतर पाळ्ळें... उतर पाळ्ळें...

अर्जुन : (पुटपुटिल्ले भाशेन) कुंतीमायेक...? उतर...?

कर्ण : हय... मायेक... तुजे मायेक... म्हजे मायेक उतर दिल्लें... ती आयिल्ली पूत म्हणून दान मागूंक... हांवें उतर दिलें... पांच जण उरतले... पांच ... पाळ्ळें... उतर पाळ्ळें... सांग मायेक... कर्ण...    माये- (उतर तुट्टा. कर्ण प्राण सोडटा.)

कृष्ण : ऊठ, अर्जुना...

अर्जुन : कृष्णा, कर्णान अशें कितें सांगलें...? कुंतीमायेक निरोप... मायेक...? हाचो अर्थ कृष्णा...?

कृष्ण : (निश्चयी आवाजान) रथांत बस.

अर्जुन : राव... हाचो अर्थ सांग म्हाका.

कृष्ण : कळटलो. पयलीं या आमी.

अर्जुन : (करांदायेच्या सुरांत) कृष्णा. तूं जाणा हाचो अर्थ. सांग म्हाका... ओगी कित्याक तूं...? आतां ओगी कित्याक तूं? तुवेंच कर्णाक मारूंक लायलो म्हाका. कर्ण कोण? सांग, कृष्णा, कर्ण कोण तें सांग. म्हाका घुस्मटावं नाका-

कृष्ण : सगलें कळटलें तुका. चड रथांत. (रथ सुरू जाता)

अर्जुन : आतां कित्याक धांपलां तुजें तोंड? कृष्णा, कितें करुंक लायलें तुवें हें म्हाका...! सांग... सांग, कितें घडलां हें? कितें घडलां तें सांग... (रथाच्या आवाजांत अर्जुनाचीं उतरां बुडून वतात.)

-----

# पांचवो अध्याय

सुत्रधारः

कोण कोणाचो पूत

आनी कोण कोणाची माय

झूज पालोवच्या, कूळ वाटावच्या

केली कितली धिटाय

तरी टळ्ळें ना, सोंपून सोंपलें ना

हत्येचें हें पर्व

घडलें कितें तें कोणा कळ्ळें ना

## कुवाडेंच हें पर्व

## हें कर्णपर्व... हें कर्णपर्व...

(रथ थांबता. कृष्ण-अर्जुन कुंतीच्या म्हालांत पावतात.)

कृष्ण : दासी, राजमातेक सांग, भायर अर्जुन आनी कृष्ण आयल्यात म्हणून.

अर्जुन : कृष्णा, किर्ते आडायलां तुवें हें? कित्याक म्हाका घेवन आयला हांगा? उलय, सांग किर्ते आसा तें. (दुख्ख आनी तिडक हांणी भरिल्ल्या आवाजान) कशें दाखोवं हें तोंड मायेक? ह्या म्हज्या हातांनी केल्लें पातक खंयच्या तोंडान सांगूं तिका? किर्ते घडलें हें...? किर्ते घडलां हें...?

कुंती : अर्जुना...

अर्जुन : (तिचे पांय धरून, पच्छाताप जाल्ल्याच्या आवाजान) माये, क्षमा कर म्हाका. खूब, खूब मोर्टे पातक घडलां म्हज्या हातान. मोटो गुन्यांव केला हांवें. पूण म्हाका खबर नाशिल्लें. खरेंच हें पयलीं कळिल्लें जाल्यार ह्या युध्दाक उबोच रावचों नाशिल्लों... उबोच रावचों नाशिल्लों...!

कुंती : पुता, असो पच्छताप करपाक घडलां तरी किर्ते?

अर्जुन : कशें सांगूं तुका...? माये, कशें सांगूं?

कृष्ण : हांव सांगतां. राजमाते, कौरवांच्या तिसऱ्या सेनापतीक-कर्णाक मारून तुजो पराक्रमी पूत तुजो आशिर्वाद घेवंक आयला.

अर्जुन : आशिर्वाद? कृष्णा, येतात तरी कशीं हीं उतरां तुज्या तोंडाक? तूं किर्ते सादूंक सोदता तें तरी सांग. आशिर्वाद!

आशिर्वाद न्हय, हांव प्रायश्चित घेवंक आयलां. माये, म्हाका क्षमा कर. म्हाका खबर नाशिल्लें... खरेंच खबर नाशिल्लें... (कृष्णाक बोट दाखोवन) हाणें म्हाका पिसायलो. हाणें फूक मारून म्हज्या रागाचो उजो पेटयलो. देखूनच मारलो हांवें ताका. रथाचें चक्र वयर काडटना... माये, ह्या हातांची म्हाका लज दिसता. म्हज्या भावाचो हांव काळ जालों... माये, कसलें युध्द हें...। कसलें पातक हें...।

कुंती : अर्जुना, तुवें प्रायश्चित घेवपा सारकें कांयच करुंक ना. क्षत्रियाचो धर्म तुवें पाळ्ळा. कुरुक्षेत्राचेर म्हज्या पुतान आयज पराक्रम गाजयला, म्हाका अभिमान दिसता तुजो. दासी, बेगीन वचून पंचारत पेटोवन घेवन यो...

अर्जुन : (मनाक धक्को बसून) माये, पंचारत...? म्हाका...? तूं भ्रमांत हें उलयना मूं? म्हज्या कर्तुबान करपून तुजें मन कोळसो जावंक ना मूं? हांवें कर्णाक मारला... माये, हांवें कर्णाक मारला...

कुंती : म्हणूच तुजो अभिमान दिसता म्हाका. कर्णा सारक्या विराचेर जैत जोडलें तुवें; आतां पांडवांचें जैत पयस ना.

अर्जुन : माये, तूंच उलयता हें...। कृष्णा भाशेन तुजेय मानेर युध्दाचेंच भूत बसूंक ना मूं? तुज्या काळजांतली माया आटूंक ना मूं? माये, तुजो एक पूत आज गेला. तुज्याच दुसऱ्या पुतान ताका मारला... तुका तार्चे दुख्ख ना...? तुज्या काळजाक घाय पडूंक ना...?

कुंती : अर्जुना, देवाचे कृपेन म्हजे सगले पूत बरे आसात, पराक्रम गाजयत आसात. तुवें पुरुषार्थ दाखयलो तो पळोवन संवसाराचे दोळे दिपकावतले. पुता, म्हज्या दोळ्यांच्यो वाती तुका ओंवाळपाकूच रावताल्यो रे-

अर्जुन : म्हणचे? कर्णाक हांवें मारिल्ल्याचें तुका दुख्ख ना? तुज्या

पुताचो प्राण गेल्ल्याची खंत तुज्या जिवाक भोगना?

कुंती : अशें किर्ते उलयता पुता? कर्ण म्हजो पूत न्हय... कर्ण म्हजो कोणूच न्हय...

अर्जुन : माये-

कुंती : उलय, अर्जुना, थांबलो कित्याक? उलय-

अर्जुन : कर्ण तुजो कोणूच न्हय...? पूण...

कुंती : पूण किर्ते? सांग अर्जुना-

अर्जुन : माये, युध्द सुरू जावचे पयलीं तूं कर्णा म्हऱ्यांत गेल्ली हें खरें?

कुंती : खरें तें.

अर्जुन : कर्णा कडेन तुवें आवयच्या नात्यान दान मागलें हें खरें?

कुंती : तेंय खरें.

अर्जुन : आनी कर्णान तुका उतर दिल्लें, हेंय खरें मूं?

कुंती : हय, तेंय खरें. पूण तुका हें सांगलें कोणें?

अर्जुन : कर्णानच... प्राण सोडटना, कर्णानच सांगलें हें आनी तुका एक निरोपय दिला...

कंती : निरोप? म्हाका ?

अर्जुन : हय. मायेक सांग, आपणें उतर पाळ्ळें ... उतर पाळ्ळें... म्हजेच मांडयेर प्राण सोडलो ताणें.
(कुंती सुस्कारो सोडटा)
माये, हाचो अर्थ किर्ते? पूत म्हणून कर्णा म्हऱ्यांत दान मागूंक गेल्ली ती तूं आवय खरी, काय... काय आयज कर्णाक मारपी पुताक पंचारत दाखोवंक सोदता ती आवय खरी?

कुंती : दोनूय घडणुको सारक्योच खऱ्यो पुता.

अर्जुन : पूण हें अशें कशें जावं येता?

कुंती : अशें जावं येता न्हय, अशें जालें. तें बऱ्या खातीर म्हणून केल्लें, पूण म्हज्या पदरांत अपेस पडलें. कलंक मात उरलो माथ्यार...

अर्जुन : कलंक? मायें, कसलो कलंक?

कुंती : आंकवार आवय म्हणून कर्णा म्हऱ्यांत वचपाचो... दान मागचे खातीर... ताका पूत मानून कुशींत घेवपाचो...

अर्जुन : पूण कित्या खातीर केलें तुवें हें?

कुंती : कृष्णान कांयच सांगूंक ना तुका? ताणेंच मागलें म्हजे कडेन, ताणेंच म्हळें म्हाका-

अर्जुन : (कुंतीचें वाक्य अर्धारच तोडून) कृष्णान? कृष्णान हाडलो हो प्रसंग तुजेर? (किंवाट्यान) कृष्णा, अखेर तुका जाय कितें? तुवें हें मांडलां कितें? युध्द टाळ म्हणून आमी सगल्यांनी तुजे कडेन मागिल्लें; तूं तें करतलो म्हणून तुजेर भार घाल्लो; पूण तें केलें ना तुवें. तुवेंच हाडलें हें युध्द, हो संहार. म्हजे गोमटेर बसून पितामहाक बाणांनी जर्जर करूंक लायलो. ताका मार म्हणून म्हाका सांगतना तुज्या काळजाक कांयच भोगलें ना? आचार्यांक मारचे खातीर अश्वत्थामा मेल्ल्याची हूल उठोवपाची तकली तुजीच. आनी आयज म्हज्या धनुश्यांतल्या बाणान कर्णाचो प्राण घेतलो तो तुवेंच.तुवेंच म्हाका खुबळायलो. कित्याक करता तूं ह्या पातकाचे आमकां धनी? कित्याक जाय तुका हो संहार? आनी मायेक... मायेकय तेंच भोगूंक लायलें तुवें? तुवें लायलो तिका कलंक। कृष्णा, तुवें।...

कुंती : अर्जुना, पुता, अशें उलोवं नाका. तकली बेठीच तापोवन

घेवं नाका, भावने भरशीं दोळे धांपून पडमूर जावं नाका. सगलें बऱ्या खातीरच केल्लें; पूण येवजिल्लें तशें घडलें ना, ताका कोणाचोच गुन्यांव ना. वायट तें टाळपाचो यत्न करप आनी थंय बळगें उणें पडल्यार संकश्टा कडेन सगलो नेट लावन झुजप होच आमचो मनशांचो धर्म. तेंच आमी करतात... तेंच...

अर्जुन : कोणाच्या बऱ्या खातीर केलें? कितें केलें? कितें केलें? माये, कोणाचें कितें बरें जालें?

कुंती : मनीस आपल्या सुखा खातीर वावुरता, जाता तितले यत्न करता. पूण अर्जुना, मनशाचे जिणेंत कांय प्रसंग येतात की थंय ताचें बळगें उणें पडटा, अपेसच वांट्याक येता. म्हज्या वांट्याक आयिल्लें हें अपेस. आयक पुता, तुमकां केन्नाय जाल्यार हें कळुंकच जाय. आयक. युध्दाचो प्रसंग टाळूंक कृष्ण तुमकां मेळून हांगा हस्तिनापुरांत आयिल्लो. त्या दिसा म्हजो आशिर्वाद घेवन तो शिश्टायेक राजसभेंत गेलो. मोटे उमेदीन हांव ताची वाट पळयत बशिल्लीं... हांगाच... आनी...

(फ्लॅश-बॅक सुरू)

कुंती : (उमाळशिकेन) कितें जालें कृष्णा? दुर्योधनान मानून घेतलें तुजें म्हणणें?

कृष्ण : ना. राजमाते, अपेसच घेवन येवचें पडलां म्हाका तुजे म्हऱ्यांत.

कुंती : अशें कशें घडलें तर?

कृष्ण : मनीस मनीसपण विसरता तेन्ना मोनजाती परस पास्ट दशेक पावता आनी तेन्ना हें अशेंच घडटा जावये.

कुंती : पूण थंय घडलें तरी कितें?

कृष्ण : वेगळें कांयच घडलें ना. दुर्योधनान तोच अवतार घेतलो. तोच सुवार्थ, तेंच उर्मटपण, तोच गर्व. हस्तिनापुराच्या शिंवासनाच्या सुवार्थान तो कुड्डो जाला... सामको कुड्डो जाला.

कुंती : पूण पांडवांक त्या शिंवासना खातीर झगडपाची इल्लीय इत्सा ना हें तुवें सांगलें ना ताका?

कृष्ण : ताका सांगपाचें कांयच दवरलें ना. सगलें, सगल्या तरांनी सांगलें. निमार्णे, पांच पांडवां खातीर फकत पांच मागले हांवें, पूण-

कुंती : कितें म्हळें ताणें?

कृष्ण : (दुर्योधनाच्या आवाजांत) पांच गांव? सुयेच्या अग्राचेर उरता इतली भूंय लेगीत मेळची ना अशीं उतरां उलयलो आनी उर्मटपणान राजसभेंतल्यांन तरतरीत भायर सरून गेलो.

कुंती : इतलो कुड्डो जाला दुर्योधन? मेळटलें ताका प्रायश्चित. पितामह, आचार्य, महाराज धुतराष्ट्र हांणी समजायलो ना ताका?

कृष्ण : समजावणेचो उपेग समजिकाय आशिल्ल्या कडेन. राजसभेंतल्या सगळ्या जाण्टेल्यांनी ताका समजावपाचो यत्न केलो, बरे तरेन तंटो मांडणेर घालपाचो आग्रो केलो; पूण दुर्योधन आतां तें कांय आयकुपाचे स्थितींत ना. ताच्या एका दोळ्या मुखार नाचता हस्तिनापुराचें शिंवासन आनी दुसऱ्या दोळ्या मुखार युध्द. तिसरें कांयच आयकूंक येना. देखूनच व्यर्थ गेलें म्हजें सांगणें आनी मागणेंय.

कुंती : जावं. कुरूंच्या नशिबांत हें भावां-भावांचें युध्द आनी संहार आसा म्हणूनच दुर्योधनाक ही बुद्द आयल्या जावंये.

कृष्ण : विपरीत बुद्ध! राजमाते, विपरीत बुद्ध. आयज म्हाका धरून बंदखणींत घालपाची तजवीज केल्ली ताणें.

कुंती : आवय म्हजे! तुका कांय करचें पडलें ना मूं?

कृष्ण : ताका वेळारच मात्शी बरी बुद्ध जाल्ल्यान तशें कांय करचें पडलें ना. पूण एक मात उक्तें जालें की ताचे गोमटेर सैतान बसला; शिंपीभर लेगीत मनीसपण ताच्या आंगांत उरूंक ना. ताका जाय युध्द! फकत युध्द, युध्द, युध्द!

कुंती : तशें आसत जाल्यार, कृष्णा, युध्द हेंच ताका वखद! ह्या रोगाचेर तोच उपाय. हें झूज टाळूंक जायना जाल्यार पांडवांकूय क्षत्रिय धर्माक जागून जाप दिवची पडटली. म्हजे पूत जाणात तांचो धर्म. पूण तूंय तांकां सांग, हांवें सांगलां म्हणून सांग–

कृष्ण : राव, राजमाते, येन्नाच हार मानून घेवं नाका. अजून एक यत्न करुन पळोवपा सारको आसा.

कुंती : आंतां आनीक कसलो यत्न करपाचो उरला, कृष्णा? सगलें करून सोपलें. आनी जंय तुका अपेस आयलें, सगल्या जाण्ट्यांचें सांगणें उमथ्या कळशार उदक जालें, थंय कसलो यत्न चलतलो! तूं वेळ वगडावं नाका.

कृष्ण : तें खरें तुगेलें. पूण राजमाते, जरासंधा कडेन अठरा खेपो अपेस आयलें तरी आस्त सोडली नाशिल्ली हांवें. आतांय म्हज्या मनांत आसा. एक यत्न करूं येता. एकाद्रें येस येवयें.

कुंती : म्हाका तातूंत अर्थ दिसना; पूण तूं येवजितलों तें शाणेपणा भायलें आसचें ना. सांग, कसलो यत्न म्हणटा तूं? कसलो यत्न उरला?

कृष्ण : राजमाते, तूं जाणा, युध्दाची खरी खुमखुमी फकत

दोगांकूच आसा. दुर्योधनाक आनी कर्णाक. पितामहाक, द्रोणाचार्याक युध्द नाका. आपणाल्याच नातवांचीं रगतां व्हांवोवपाची इत्सा पितामहाक ना आनी आचार्यांक आपणाल्याच शिष्यांचो दुस्मान म्हणून युध्दांत उबो रावप मानवपाचें ना. खरें मूं?

कुंती : सामकें खरें तुजें म्हणणें. त्या जाण्टयांक कुरूंचे संततीचें कल्याणच जाय पुता.

कृष्ण : दुर्योधनाक ताची जाणविकाय आसा. देखून ताणें आदन कर्णाचेर दवरलां. कर्णाच्या नाड्यार तो उडटा. दिग्विजय करून आयिल्लो कर्ण आपणाक जैत मेळोवन दितलो अशी ताका खात्री दिसता. मोठ्या विरांमदीं एकलोच कर्ण किंवाट्यान युध्द करतलो हें तो वळखला.

कुंती : कर्णाचीच फूस आसा ताका. कर्णाक ताणें मातयला आनी आतां कर्णानच ताका असो चेव हाडला. पांडव वनवासाक वचत पसून हें सगलें हांगा उक्त्या दोळ्यांनी पळयत आसां हांव. जाणां हांव कोण कितलो म्हज्या पुतांचो दुस्वास करता तो, तांचेर जळटा तो-

कृष्ण : राजमाते, तूं जाणा सगलें. हांवें चड सांगपाची गरजच ना. म्हाका दिसता, कर्णाक दुर्योधना पसून पयस काडलो जाल्यार दुर्योधनाचे हातपांय गळसणटले. युध्दाक फुडें सरपाचो धीर ताका जावचो ना आनी युध्दा बगर हो प्रस्न सुट्टलो.

कुंती : तें केन्नाच घडचें ना. कृष्णा, कर्ण दुर्योधनाच्या उपकारांत आसा हें तूं कशें विसरता? ताणेंच कर्णाक राजा केल्लो न्हय रे? ताणेंच दिग्विजयाक धाडलो न्हय रे ताका? आपणाक मानाचे पदवेक चडयतल्या दुर्योधनाक तो सोडटलो? दुर्योधनाची इत्सा भागोवपांत ताचोय सुवार्थ

आसा मरे. तो दुर्योधनानाचे पांय धरून रावतलो.

कृष्ण : तुजें म्हणणे खरें, पूण कर्ण दुर्योधनाच्या जाळांत कसो घुस्पला ताचें कारण सोदूंक जाय. राजमाते, लोकांनी कुस्कुटायलो तेन्ना दुर्योधनान लागीं केलो म्हणून कर्ण दुर्योधनाक तेंकलो. लोकांनी सूतपूत म्हूण हिणसायलो तेन्ना दुर्योधनान राजा केलो म्हणून तो दुर्योधनाचो इश्ट जालो. तीच माया आनी तोच मोग दाखोवन ताका कुशीन काडुं येता. पूण दुर्योधना पसून पयस काडटलो जाल्यार ताका लागीं ओढूंक जाय. मायेच्या पासान बांदून व्हडपण दिवंक जाय.

कुंती : पूण तें कशें शक्य आसा? इतल्या लांब काळाचे संबंद अशे फट्र करून तोडप सोपें दिसता तुका?

कृष्ण : ना. कठीनच तें, हांव जाणां. पूण अशक्य न्हय. राजमाते, तशें जावं येता.

कुंती : हय, पूण कशें? कशें जावं येता?

कृष्ण : आयक. कर्णाच्या जल्मार्चे जग लोकाक अजून कुवार्डेंच आसा. ताच्याय मनांत त्या कुवाड्याचो सूळ आसा. लोक सूतपूत म्हणटात तेन्ना तो सूळ ताच्या मनाक रोमता. जल्माक येतनाच आपणाक न्हंयेंत सोडलो आनी आपल्या वांगडा कवचकुंडलां ही क्षत्रियपणाची खूण आसली इतलेंच तो जाणा. आपूण सूतपूत न्हय अशें ताका दिसता; पूण हांव कोण हो प्रस्न सुटना. त्या प्रस्नाची जाप ताका मेळत जाल्यार तो बदलत–

कुंती : म्हणचे किर्ते?

कृष्ण : कोणेंय फुडें सरून ताका सांगूंक जाय... कर्णा, तूं म्हजो पूत, तुजो जल्म क्षत्रिय कुळांतलो, कीर्तिवंत कुळाचो तूं

वंश. कर्णाक मायेन आपणावंक जाय. ते मायेक तो आशेला. आपूण क्षत्रिय हें आङ्कून जगाक सांगपाची उमळशीक ताच्या मनांत सळसळटा. ती संद ताका मेळत जाल्यार उणाकपणाच्या दुख्खांतल्यान वयर सरिल्लो दुस्वास तो

विसरतलो. जल्मान ऊंच सुवात मेळिल्ल्याची खोस भोगतना मायेच्या पासान ताका लार्गी ओढूंक येतलो. व्हडविकेच्या पदार चडोवन दुर्योधनाचे संगतींतल्यान कुशीन काडूंक येतलो.

कुंती : पूण हें कशें जावं येता? कोण विस्वास दवरतलो?

कृष्ण : हें जावं येता. व्हड कुळांतले क्षत्रिय आवयन आपलो आंकवारपणांतलो भुरगो म्हणून कर्णाक कुशींत घेतलो जाल्यार हें घडुं येता. फटीची आवय अशें करूंक तयार जावची ना. देखुनच कर्ण तिचेर विस्वास दवरतलो, जगलोक विस्वास दवरतलो. म्हजें मन सांगता, हें अशें घडुं येता...

कुंती : पूण खंयची आवय येदो मोटो कलंक लावन घेवंक तयार जातली? कोण मारतली ह्या उज्यांत उडी?

कृष्ण : आवय म्हणून पुतांच्या बऱ्याखातीर जी त्रास भोगता, संततीचो फुडार पर्जळीत जावचो म्हणून जी आवंडेता, कुळाची राखण करपाक जी कश्टता, संहार टाळपाक जी वावुरता ते आवयच्यान हें करूं येता...

कुंती : म्हणचे कितें?

कृष्ण : कशें सांगूं? खंयच्या उतरांनी सांगूं...? राजमाते, तुज्यान हें करूं येता...

कुंती : कृष्णा-

कृष्ण : क्षमा कर म्हाका, राजमाते; पूण-

कुंती : नाका. आनीक एकूय उतर उलोवं नाका.

कृष्ण : राजमाते, आत्ये, आयकून तरी घे.

कुंती : खूब आयकलें कृष्णा. आनीक नाका. निमाणें तूं हेंच सांगतलो म्हणून खबर आशिल्लें जाल्यार तेंय आयकून घेवचीं नाशिल्लीं.

कृष्ण : पूण मनांतलें हांवें तुका सांगप न्हय जाल्यार कोणाक सांगप, आत्ये? तुजे कडेन न्हय, जाल्यार कोणा कडेन उलोवप ह्या वेळार? कोणाचो मागप आधार? म्हजें चुकलें जाल्यार क्षमा कर; पूण युध्द टाळपा खातीर आयज दुसरें कांयच सुचना म्हाका. आत्ये, युध्द, संहार टाळूंक जाय हें तुकाय पट्टा-

कुंती : हय, पट्टा म्हाका, पूण येदें मोटें मोल दिवन युध्द टाळचें पडटलें जाल्यार जावं दी तें युध्द. लागूं दी बळ कसाक-

कृष्ण : पूण राजमाते, आत्ये, बळ कसाक लायतना कुरूंचें कूळ ना- नपश्यात करून हाताक लागतलें कितें?

कुंती : कळटा रे म्हाका. पूण कृष्णा, तूं सांगतां तें जावचें ना. येदो कलंक माथ्यार मारून घेवप शक्य ना. म्हज्या हातान म्हज्या पांयार फातोर मारून घे म्हणटा? म्हज्या हातान म्हजे नितळ जिणेचेर कलंकाचे खत घाल म्हणटा? कसो धजलो तूं हें सांगूंक? कशें काळीज जालें तुका हें उलोवंक?

कृष्ण : आत्ये, कौरव-पांडवांचें हें युध्द टाळपा खातीर कितेंय करपाची मनाची तयारी केल्या हांवें. देखूनच मान-भौमान कुशीक दवरून वावुरलां. ल्हाना कडेनय ल्हानपण घेतलां आनी काळीज घट करुन उलयलां. तुका वायट

दिसलें. तशें दिसतलें म्हणून जाणां अशिल्लों; पूण उपाय ना. आत्ये, दुसरो उपाय ना म्हणून उलयलों.

कुंती : पूण बाबा, उलयलो तें कितें उलयलो। नज रे म्हज्यान आतां सोंसूंक. खूब भोगलें हांवें जिणेंत, कोणाच्याच वांट्याक येवचें न्हय अशें हें जिणें म्हजें... आनी आतां... आतां म्हज्याच दोळ्यांनी पळोवपाचो आसा हो संहार...

कृष्ण : ना... ना आत्ये, राजमाते, तो संहार नाका. तो पळोवपाचो प्रसंग तुजेर येवंक नाका म्हणून दुखयतां तुका हांव; कश्ट दितां तुज्या मनाक-

कुंती : तूं कोण पुता कश्ट दितलो। म्हज्याच कर्मांतलो भोग भोगतां हांव. तूंय वावुरता तो बरें जावचें म्हणूनच.

कृष्ण : देखूनच सांगतां, आत्ये-

कुंती : नाका. परत सांगूं नाका. दुसरें कितेंय सांग; पूण तें सांगूं नाका. तूं दादलो... बायलेचें मन कळचें ना तुका. आवय आसली तरी आंकवार आवय म्हणून येतना तिचें काळीज कशें करपता हें तुका समजुचें ना. मरण बरें मरे पापया, ते परस मरण बरें...।

कृष्ण : आत्ये, कळटा म्हाका तें. आनी म्हज्यान जावपा सारकें आशिल्लें जाल्यार कोणाकच त्रास दिवचों नाशिल्लों. पूण हांवय अडलां... आत्ये, तें तूंच करूंक शकता, तुकाच बळ आसा. तुज्या जिवाक कितें भोगतलें तेंय जाणां हांव; पूण जंय विरांचें आनी शुरांचें बळ उणें पडटा, थंय आवयच्याच मनाचें बळ तारता, सांबाळटा, आत्ये-

कुंती : आवय। आवय म्हणूनच खूब भोगलें हांवें, खूब सोंसलें हांवें. आतां हो कलंक लावन घेवं? आनी... आनी...

इतलेंय करून सादलें ना  जाल्यार?

कृष्ण : आत्ये, ती म्हजी हार जातली, तें अपेस म्हज्या पदरांत पडटलें...

कुंती : पूण कलंक लागतलो तो म्हजेच जिणेक...

कृष्ण : आत्ये, तें येवजुं नाका, आतां तें येवजुं नाका.

कुंती : आतांच येवजुपाचें न्हय रे पुता हें?

कृष्ण : ना. उपेग ना ताचो. हांवें ही गजाल कर्णाक सांगून उडयल्या-

कुंती : (तिडकीन) कृष्णा- (सुस्कारत) कृष्णा, किर्तें रे पापया केलें..हें?

कृष्ण : आत्ये, क्षमा कर म्हाका. पूण कर्णाक लागीं ओडपाच्या यत्नांत तोच उपाय म्हाका दिसलो. राजसभेंतली शिश्टाय व्यर्थ वतकच कर्णाक रथांत घेवन समजायलो. पटलें ताका सगलें-

कुंती : पटलें ताका-?

कृष्ण : पटलें... खरें दिसलें... ताच्या मनांतलो गोंदळ दिसलो म्हाका ताचे चर्येर, ताचे भार्शेत... पूण तितल्यारच उरलें तें...

कुंती : कित्याक? तितल्यारच कित्याक?

कृष्ण : दुर्योधनाक दिल्ल्या उतरान तार्णे आपणाक बांदून घेतला. तो पास तोडपाचें बळ ताका जालें ना. आत्ये, तो पास तुज्यान तोडुं येता. आवयचें नातें जोडून, आवयचे मायेन कर्णाक लागीं करून. तो  येतलो; जल्मान ऊंच सुवात मेळिल्ल्याच्या आनंदान येतलो, खाशेले आवयचे ओडीन येतलो, क्षत्रियपणाच्या अभिमानान येतलो.

कुंती : जावचें ना तें. कृष्णा, म्हज्यान जावचें ना. आंकवार आवय

म्हणून आपखोशेन म्हजे नितळ जिणेच्या वस्त्राक खत घालूं? आनी ज्या कर्णान म्हज्या पुतांचो सदांच दुस्वास केलो, ताकाच आज पूत म्हणून लागीं करूं? ज्या कर्णान भर सभेंत म्हजे द्रौपदीच्या वस्त्राक हात घालपाची आज्ञा दिली, ताका आज भौमानान घरांत हाडूं? ज्या कर्णान दुर्योधनाक फूस दिवन कुरूकुळाचो संहार आडायला, ताका म्हज्या पयल्या पुताची सुवात दिवं? कृष्णा, कसल्या कर्मांचें प्रायश्चित म्हणून हें करूं?

**कृष्ण** : आत्ये, हें प्रायश्चित न्हय; हें पुण्य. दुश्टांचें बळ उणें केल्ल्याचें पुण्य. हातूंत पातक ना. आसा तें कल्याण कुरूकळाचें ... तुजो त्याग व्यर्थ वचचो ना.

**कुंती** : आनी यत्न व्यर्थ जालो जाल्यार?

**कृष्ण** : तशें येवजुं नाका. आत्ये, तूं येवजीय संहाराचें, त्या संहारांतल्या लुकसाणाचें. खूब युध्दां पळयतल्यांत हांवें. तांचे परिणामय भोगल्यात. देखूनच क्षत्रियाचो धर्म जाणा जावन तुजे कडेन हें मागतां. राजमाते, आत्ये, ह्या युध्दाचें चित्र येना तुज्या दोळ्यांर? म्हाका तो संहार दोळ्यां मुखार घसघशीत दिसता. आत्ये, कुरूंच्यो तिनूय पिळग्यो ह्या युध्दाच्या होमखणांत हुलपतल्यो. युध्द कौरव-पांडवांचें, पूण कोणूच कुशीक रावंक पावचो ना. यादव, पांचाल, भोज, सगले घुस्पतले. भाव भावाक कापतलो, आजो नातवाक हाणटलो, मामा भाच्याचो जीव घेतलो. उरतलें कितें? उरतलें कितें हातुंतल्यान ? आत्ये, त्या जैताक अर्थ उरचो ना. रगताच्या न्हंयांनी आनी दुकांच्या व्हाळांनी तें जैत व्हांवन वतलें... उरतलीं फकत धवीं कपलां... लाखांनी विरांच्या विधवांचीं तरण्या कं व ळ या धुवांचीं आनी सुनांचीं.... त्या धव्या कपलांचेर बरयल्लें

दुख्ख जातलें सोंसूंक तुज्यान? कोण जाणा! ह्या युध्दांत एकाद्रो हांवूय कुरूक्षेत्रा वयल्यान परतुचो ना-

कुंती : थुमेकाल! तशें म्हणुं नाका. कृष्णा, तशें म्हणुं नाका.

कृष्ण : आत्ये, खरें तेंच उलयतां हांव. मनाचे दोळे उक्ते दवरून आयज हें पळयलें ना जाल्यार फाल्यां जें दिसतलें तें पळयतना हड्डे फुटून वतलें. कुरूक्षेत्राचेर गेल्ले वीर एकाद्रे परतुचेच नात; पूण मानेर केंस सोडून दुख्खान हड्डे बडयतल्यात तांच्या विधवांचीं दुकां पुसचीं पडटलीं तीं तुकाच. ह्या राजवाड्यांत भुता भाशेन भोंवतल्या त्या विधवांचीं धर्वी कपलां दीस रात पळोवचीं पडटलीं तीं तुकाच. तांचे विकळाप आयकून काळीज करपतलें तें तुजेंच-

कुंती : पुरो, कृष्णा, आनीक सांगुं नाका ...

कृष्ण : आत्ये-

कुंती : नाका. तूं उलोवं नाका...

कृष्ण : पूण...?

कुंती : वतां हांव कर्णा म्हन्यांत. जावं दी जाता जाल्यार कुंतीच्या जल्माचें अशेंय सार्थक...

कृष्ण : आत्ये...!

कुंती : मनांत हुस्को धरुं नाका. तुवें सांगलां तें सगलें मतींत धरून वतां... कुंतीचें नितळ जिणें विसरुनच वतां...

कृष्ण : आत्ये, राजमाते, म्हाका क्षमा कर. हांवें कश्ट दिल्यात तुका-

कुंती : म्हज्याच कुळाचें नांव राखूंक, संहार टाळपाचें पुण्य जोडूंक... पूण कृष्णा, एक आतांच सांगून दवरतां. ह्या यत्नांत अपेस आयलें जाल्यार पुतांक म्हज्या सांग, झूज

होच तांचो धर्म. कुळाचो संहार जावं नये म्हणून हांव भीक मागन, पूण राज्याचें दान वा भीक मागप हो क्षत्रियांचो धर्म न्हय, हें तांका सांग-

कृष्ण : आत्ये...।

कुंती : तुजें कल्याण जावं.

(फ्लॅश बक सोंपता)

कुंती : (रडत) फुलां पुंजावंक गेलीं हांव, हॉटींत कांटेच घेवन आयलीं. व्यर्थ गेलो म्हजो यत्न. दान मागलें हांवें संहार टाळपाचें आनी कर्णान घाली भीक पुतांच्या प्राणांची. तेंच उतर तें... पाळ्ळें म्हणून सांगलें तें तेंच उतर... कितें ताचो उपेग...। जावपाचें तें जालेंच... युध्द टळ्ळें ना, संहारय टळ्ळो ना... कलंक मात उरलो माथ्यार... कलंक मात उरलो...

कृष्ण : आत्ये, कलंक तुका न्हय तो, कलंक म्हाका. म्हज्याच अपेसाचें फळ तें. म्हजोच अदमास चुकलो. पूण दुसरो उपाय नाशिल्लो. एका द्युतांत युधिष्ठिराचे पाशे उरफाटे पडले, तातुंतल्यान हो अनर्थ उप्रासलो. तो निटायेर घालपाक हांव हें दुसरें द्यूत खेळ्ळों तुज्या आधारान, आनी म्हजेय पाशे उरफाटे पडले; पूण आत्ये, ताचें मोल मात दिवचें पडलें तुका... म्हाका क्षमा कर.

कुंती : कृष्णा, तूं कश्टी जावं नाका. तुजी कांयच चूक ना, चूक कोणाचीच ना-

अर्जुन : चूक म्हजी जाल्या. कृष्णा, हांव न्हय तें उलयलां, तिडकी भरशीं तुका विसरुनच बडबडलां.

कृष्ण : विसर तें. तूं उलयला तें हांवें आयकुंकूच ना. मात हें सगलें कळ्ळे उप्रांत आतां मतींत धर की तिसरें द्यूत

कुरुक्षेत्राचेर मांडलां- तुज्या बळाचेर आनी बुद्दीचेर विस्वासून. हें द्यूत जिखुंकच जाय. तेच खातीर कर्णाक मारूंक लायलो तुका हांवें. पूण इतलेंय करून ह्याय वेळार पाशे उरफाटे पडले जाल्यार... ?

अर्जुन : पडचे नात. कृष्णा, हे पाशे उरफाटे पडचे नात. चल या आमी.

कृष्ण : आत्ये, पंचारत पेटिल्लीच आसूं.

अर्जुन : माये, येतात आमी. आशिर्वाद दी.

कुंती : चिरंजीव जायात... जैतिवंत जायात...

-----

उदय भेंब्रे हांणी मुंबय महाविद्यालयांत शिकतना कथा आनी कविता बरोवपाक आरंभ केल्लो. तांच्यो आरंभाच्यो दोन कथा " विद्या" ह्या आंतर्महाविद्यालयीन कोंकणी एकांकी स्पर्धा समितीच्या वर्सुकी नेमाळ्यांत उजवाडा आयल्यो. " कर्णपर्व" हें नाटकूय त्याच अदमासाक बरयल्लें. आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रांत काम करतना तांणी कविता बरयल्यो आनी गितां रचलीं. कवितांचो झेलो " चान्न्याचे राती" ह्या नांवान उजवाडा आयला. उप्रांत कांय कथा तांणी बरयल्यो; पूण कथांचो झेलो उजवाडाक येवंक पावलो ना. तांचीं सुमार ४० गितां मुद्रीत जाल्यांत-कांय आकाशवाणीचेर, कांय एच एम व्ही. कंपनीन तर हेर वेगवेगळ्या संस्थांनी. संघटनात्मक वावराक माथें मारिल्ल्यान तांचें सर्जनशील लेखन थांबलें. दिसाळ्यांनी मात खूब बरोवप जालें - कोंकणींत आनी मराठींत. फाटलीं ६-७ वर्सां ते इंक्विझिशनाचो अभ्यास करतात. त्या विशयाचेर तांणी कादंबरी बरोवंक घेतल्या.



संजना पब्लिकेशन्स